# ...ाग

...७ ◇ आंक ५ ◇ डिसेंबर २०००

...ी : रवीन्द्र केळेकार

...ुगो संपादपी : माधवी सरदेसाय

...डावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

...जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

...पी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

...चित्र : डॉ. सुबोध केरकार


## ह्या आंकांत




...र्की पटी : रु. १००/-
...द्यार्थ्यांखातीर : रु. ७५/-
...न वर्सांची पटी : रु. २५०/-
... वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
...क मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
...रुपये अदीक जोडचे)

...ाचो नामो :
...ग म्हयनाळें
...-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
...द साउदादिश, पाजीफोंड,
...व – गोंय ४०३ ६०१.
...ोळ आंकाचें मोल : रु. ९/-


# नदर संपादप्याची

## सत्ययुग पळेल्ले आमी केदे बेगीन कलियुगांत पावले !

१९५१त वर्ध्याक पावलों. गांधी सारको बरो समजून घेतलों अशें थारावन गेल्लों. आनी काकासायबांच्या सांगातांत रावपाक लागिल्लों. थंय पावतकूच पळेलें, हांव एकलोच नवो कोण हांगा पावलां अशें न्हय, देशाच्या वेगळ्या वेगळ्या वाटारांतले म्हजेच पिरायेचे आनिकूय कांय जाण पावल्यात. तेवूय गांधी समजून घेवपाचें थारावनूच आयल्यात. कोण पवनाराक वचून विनोबां सरीं रावल्यात, कोण मगनवाडींत कुमारप्पांच्या हाताखाला काम करूंक लागल्यात, तर कोण किशोरलालभाई मश्रूवाल्यांचो सांगात मेळचो म्हूण बजाजवाडी लागसार कामां करपाक लागल्यात, कोण सेवाग्रामांत, कोण चरखा संघांत तर कोण तालीमी संघांत 'तालीम' घेवपाक लागल्यात. काकावाडींत म्हजे पयलीं नरेश मंत्री येवन राविल्ले. हांव पावतकूच कांय म्हयन्यां उपरांत मंगेश पाडगांवकरूय पावले.

काकासायबांच्या आश्रमाक काकावाडी म्हणटाले. जमनालाल बजाजांनी ताका हें नांव दिल्लें.

ते मुस्तींत गांधींचे चडशे सगळे मुखेल सांगाती वर्ध्यांतूच आसताले आनी वेगळ्यो वेगळ्यो संस्था चलयताले. सगळ्यो संस्था आश्रमां भाशेन चलताल्यो.

आर्विल्ले मुस्तींतलीं हीं गुरुकुलां आशिल्लीं. तीं थोड्या थोड्या अंतराचेर आसलीं तरूय एकाच व्हड वावराचीं वेगळीं वेगळीं आंगां कशीं वावुरतालीं. कोणूय व्हड मनीस खंयच्याय आश्रमांत पावूं, ताचे लागीं बसून भासाभास करपाची कार्यावळ तो आश्रम आंखतालो आनी आमी सगळे थंय एकठांय जाताले. हाका लागून आमी सगळे एकामेकांच्या नात्यांतले जाल्ले वरी एकामेकां कडेन चलपाक लागिल्ले.

एक दोन म्हयन्यां भितर एक दुबाव म्हाका पिडूंक लागलो. म्हळें, हे सगळे गांधीजींचे सांगाती गांधीकार्यांतले दिग्गज आसले, आपापले तरेन गांधीकार्यूच मुखार व्हरतात जाले तरूय हांच्यांत मेळ आसा-सो दिसना. एक एकल्याचें प्रस्थान वेगळें, दिकाय वेगळी. हांचीं मुखपत्रांय वेगळीं वेगळीं. सगळ्यांचें एक अशें मुखपत्र ना. हांकां एकामेकांक पडना काय किते ? म्हज्या ह्या दुबावाक तेंको दिवपी एक घडणुकूय त्याच अदमासाक घडली. एका 'चर्चासत्रा'क हांव गोपुरींत गेल्लों. विशय आशिल्लो – 'नागरी लिपींत गरजेचे बदल.' काकासायब, विनोबा आनी किशोरलालभाई चर्चेंत वांटो घेवपाक आयिल्ले. काकासायबांनी सुरवात केली. तांणी म्हळें —

'नागरी लिपी आयज चलता तशी ती सदां काळ चलत आयल्या हो समज खरो न्हय. आतां मेरेन तिच्यांत कितलेशे बदल घडून आयल्यात. धरूंया, दोनशें वर्सां आदल्या एका पुस्तकाचें हात-बरप कोणेंय तुमच्या हातांत दवरलें, जाल्यार तुमकां तें सारकें वाचूंक येवपाचें ना... आमची इत्सा आसूं वा नासूं, तिच्यांत बदल घडत रावतले...

'एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय, नागरीची वर्णमाला विज्ञानीक. पुणून तिचे खातीर जीं अक्षरां म्हालगड्यांनी नित्शीत केलीं तीं छापखाने येवंक नाशिल्ले त्या काळांतलीं. छापखाने येवचे पयलीं लोक भूर्जपत्रांचेर, ताडपत्रांचेर वा आनीक खंयच्या पानांचेर वा सालिंचेर हातांनी बरयताले. हाका लागून नागरी लिपीन वेगळे वेगळे कडेन वेगळीं वेगळीं रुपां घेतलीं. बंगालांत एक रूप घेतलें, तर उडिसांत दुसरेंच. गुजरातांत एक घेतलें,

तर कर्नाटकांत वेगळेंच घेतलें. बंगाली, उडिया, गुजराती, कन्नड ह्यो सगळ्यो एकेच नागरीच्यो प्रादेशीक मोडी. तें कित्याक, सिलोन, वियतनाम, काम्बोडिया बी दक्षीण-उदेंते कडल्या देशांनी वचात, शाळेंत भुरगीं **क ख ग घ ङ, च छ ज झ ञ** च शिकतात तें पळोवंक मेळटलें. पुणून तांगेल्या **क ख ग घ**चीं रुपां वेगळीं वेगळीं आसतलीं. भारत आनी दक्षीण-उदेंत आशिया नागरीचोच वाटार. हो वाटार बदल्लेले नागरीच्या सत्रे खांला आमच्यांनी हाडूं येता. ते खातीर आयज चलता ते नागरींत कांय बदल घडोवन हाडूंक जाय... पयले सुवातेर **इ ई उ ऊ ए ऐ कि की कु कू के कै** भाशेन **अि अी अु अू अे अै** हे भाशेन बरोवंक जाय. कांय कुरवो उण्यो जातल्यो.'

एकलो मर्दीच उठलो. तो राष्ट्रभाषा प्रचार समितींत काम करतालो. ताणें म्हळें, 'क अधीक इ मेळून कि जाता तशी अ अधीक इ मेळून अि जाता व्हय? इ उ ए स्वतंत्र स्वर. तुमचो हो बदल शास्त्राक धरून जायना.'

काकासायबांनी ताका विचारलें, '**ओ** स्वतंत्र स्वर न्हय? **ओ** स्वरा खातीर वेगळें अक्षर तुमी कित्याक घडोवंक ना? गुजरातींत तर **ए** खातीर लेंगीत वेगळें अक्षर ना. **अ** चेर मात्रा दिवन **ए** करतात.'

तो ओगी पडलो.

काकासायबांनी मुखार म्हळें, '**अ** चे स्वराखडींत बदल करून जातकूच जोडगिरां कडेन लक्ष दिवंक जाय. खंयचेंच अक्षर दुसऱ्या खंयच्याच अक्षराच्या माथ्यार चडून बसचें ना वा दुसऱ्या खंयच्या अक्षराच्या पांयां कडेन बसचें ना अशें थारावंक जाय. **र** चीं जोडगिरां तर सगळ्यांक रडयतात. 'प्रदेशां'तलो **र** एके तरेचो, 'दुसऱ्यां'तलो दुसरेच तरेचो. 'सर्वां'तलो एके तरेचो, तर 'राष्ट्रां'तलो **ष्ट्र** सकयलो आनीक एके तरेचो. 'कार्त्स्न्र्य' उतरांत **र** चो उच्चार खंय जाता आनी बरयतना तो खंयच्या अक्षरा वयर येता?...'

असले कितलेशे बदल तांणी सुचयले आनी म्हळें, 'बापूजी म्हणटाले, असले बदल 'टक टक से नहीं होंगे, मम मम से होंगे.' आयज थोडे बदल करचे, कांय वर्सांनी आनीक थोडे करचे; हे भाशेन पंदरा वीस वर्सां भितर गरजेचे सगळे बदल घडोवन हाडचे पडटले. जाल्यारूच नागरी तिगतली. ना जाल्यार काळाचे व्हांवतेंत फाटीं पडटली.'

काकासायबां उपरांत विनोबा उठले. म्हणपाक लागले, 'काकासायबांनी सांगलां तितलेंय म्हाका मान्य आसा. पुणून आयज इल्लें, फाल्यां इल्लें, परां इल्लें हें धोरण म्हाका मान्य ना. सगळे बदल एकेच फावटींत करून उडोवंक जाय.'

अशें म्हणून तांणी आपणें विकसावन काडिल्ली 'लोकनागरी' आमचे मुखार दवरली. 'सेवक' नांवाचें तांगेलें एक नेमाळें 'लोकनागरीं'त येतालें. ताचे आंक आमकां पळोवंक दिले.

किशोरलालभाई म्हणपाक लागले, 'तुमी ज्या प्रस्नाचेर भासाभास करतात तो वाचूंक बरोवंक जाणा जाल्ल्या लोकांचो प्रस्न. वाचूंक बरोवंक जाणा जाल्ले लोक देशांत आसून आसून शंबरांत वीस आसतले. चडांत चड पंचवीस. उरिल्ल्या पंच्यास्तर अंयशीं लोकांक वाचूंक बरोवंक येना. तांचे कडेन पळोवन आमी हो प्रस्न सोडोवंक जाय. तांकां सोंपी पडत अशी एकूच लिपी आसा – रोमी. तिच्यो सव्वीस कुरवो. तांतल्यो Q, W, X, Y, Z ह्यो पांच कुरवो सोडून दिवच्यो. उरतल्यो एकवीस. तांचे वांगडा अनुस्वाराच्या तिंबा सारकी एक कुरू, हायफना सारकी आनीक एक कुरू घेवपाची. इतल्याच भांडवलार देशी भाशांतले सगळे उच्चार उकतावन दाखोवंक येतले. पुराय संस्कृत बरपावळ हे लिपींत बरयल्ली मेळटा. जोडगिरां बिडगिरां आपशींच कडेक पडटात. रोमीक रोमी म्हणिल्ल्यान आमचे देशभक्तीक बादा येता जाल्यार हे लिपीक 'विश्वनागरी' म्हणची. ती शिकयता आसतना A B C D रितीन शिकोवची न्हय. **क ख ग घ** रितीनूच शिकोवची. K क के म्हणचे बदला क म्हणचें. G क जी म्हणचे ब[...] ग म्हणचें. तशें P क प, R क र, H क ह, M क म, N [...] म्हणचें.'

तिगांनीय दीस भर चर्चेंत वांटो घेतलो. पुणून एका मत्तार मात [...] आयले नात. दनपारचीं चार जालीं तेन्ना राधाकिशन बजाज उठून [...] रावले. म्हणपाक लागले, 'पयरचे बंदखणींत ह्या तिगूय गुरुजनांक [...] एका सारकीं तीन वर्सां ह्याच एका प्रस्नाचेर एकामेकां कडेन वाद घा[...] बशिल्ले पळेल्यात. तीन वर्सांच्या वादा उपरांतूय हांचे मजगतीं [...] घडून आयलो ना जाल्यार एका दिसाच्या चर्चासत्रांत तो कसो [...] येतलो? तेन्ना... आयचें चर्चासत्र आमी हांगाच सोंपोवया...'

चर्चासत्र सोंपलें.

म्हाका हो विशय नवो आशिल्लो. रुचीक लागिल्लो. पुणून हांचे मज[...] सूरमेळ ना म्हणपाचो म्हजो जो समज जाल्लो तो घट करपा पेल्[...] ताणें म्हज्या पदरांत कांय घालें ना. हांव खंती जावन काकावाडींत परत[...]

कांय दिसांनी आचार्य कृपालानी वर्ध्याक पावले. तांगेलो बरोचसो [...] राजकर्णांत खर्चतालो. तरी आसतना, गांधींच्या रचणुकी वावरांत ते तितल[...] लक्ष घालताले. गांधी विचाराच्या व्हड भाष्यकारांत तांचोय आसपाव जाता[...] तांगेली थोमणे मारून, चिमटे काडून, सगळ्यांचीं फकांडां मारून उलो[...] बरोवपाची शैली म्हाका खूब आवडटाली. बजाजवाडींत तांकां मेळपा[...] गेलों. म्हळें, 'वेगळ्याच एका संवसारांत रावंक मेळटलें हे उमेदीन ह[...] आयिल्लों. पुणून हांगा म्हाका म्हजे वळखिच्या संवसारांतलेच सगळे अक[...] दिश्टी पडले. गांधींच्या मुखेल सांगात्यां मजगतीं आकांताचे मतभेद आसा[...] हांकां आपणाल्या सांगात्यां विशीं आपलेपण दिसता काय कितें हाचो [...] म्हाका दुबाव येवपाक लागला. एकामेकांचे दुस्मान जाल्ले वरी ते एकामे[...] कडेन चलतात...'

कृपालानी हांसले. म्हणपाक लागले, बापूजीन आमकां सांगात्यांचेर म[...] करात म्हूण शिकोवंक नाशिल्लें. दुस्मानांचेर करात म्हळ्ळें. म्हूण, आ[...] एखाद्रया सांगात्याचेर मोग करूंक जाय अशें आमकां दिसता तेन्ना ता[...] पयलीं आमी आमचो दुस्मान करतात. मागीर ताचेर मोग करतात...'

हांव हांसलों. ओगी पडलों. पुणून मनांतली खंत पयस जावंक पाव[...] ना.

[२]

काकासायब एके कडेन केन्ना बसून रावले नात. वर्ध्याक येताले ते [...] चार स दिसूच काकावाडींत रावताले. उपरांत खंय तरी दौऱ्यार वता[...] तांच्या पांयांक जशीं कितें चाकां आशिल्लीं. तीं तांकां एके कडेन खं[...] बसूंक दिनाशिल्लीं. तांगेलो हो सभाव पळोवन गांधीजींनी तांकां incorrigi[ble] nomad म्हळ्ळें. चार स दिसां खातीर जावं, ते येताले तेन्ना मात [...] सरीं बसून जितलें घेवं येता तितलें घेतालों.

तांकां आपणाल्या हातान बरोवपाची संवंय नाशिल्ली. हातान बरो[...] म्हळ्यार तांच्या जिवार येतालें. एक सादें पोस्टकार्ड बरोवचें जालें जाल्या[र] केन्ना काय जागो सोंपल्यार पुरो अशें जातालें. बरोवन घेवपी कोणूय मे[...] जाल्यार दिसूय भर ते वाजे नासतना ताका कितें न्हय कितेंय घालत[...] काकावाडींत तर बरोवन घेवपी हांव एकलोच न्हय, म्हजे भायर आ[...] दोन तीग आशिल्ले.

तांचे कुडीक व्यायाम मेळटालो तो सकाळ सांजवेळ ते भोंवंक व[...] तेन्नाच. वरा वराची तांगेली ही पासय. तेन्नाय, कोणाक तरी ते आ[...] वांगडा घेवन वताले. म्हाकाय केन्ना केन्ना वांगडा व्हरताले. तांकां विचा[...] सारके म्हजे कडेन हजार प्रस्न आसताले ते हांव हे पासयेंत तांकां विचारत[...]

एक दीस ते सर्किट रोडार पासयेक गेले. वर्ध्यांतलो हो वांटकु[...]

सुंदरमार्ग. दोनूय वशिंनी ऊंच ऊंच रूख आशिल्लो. भोंवत भोंवत बजवाडी कडेन पावले तेन्ना ते म्हणपाक लागले, 'हांगा मेरेन याल्... चल, किशोरलालभाईंक मेळून येवंया.' किशोरलालभाईंचे ...ए कोनशाक बसून दोगूय कितें उलयतात तें हांव आयकुपाक नीं. ह्या भौमानान दोगूय एकामेकां कडेन उलयताले! आनी कितल्या ...पण! काकासायब जशे कितें फाटल्या कांय दिसांनी आपणे केल्ल्या ...चो अहवाल तांकां दिताले आनी किशोरलालभाई तांचे मुखार ...ल्ल कांय गडखळ प्रस्नांचेर तांचें 'मार्गदर्शन' सोदताले. असले ...देव पळोवंक मेळत अशें हांवें मानुंकूच नाशिल्लें. उलयतां उलयतां ...सांनी म्हळें, 'हांव आतां खूबश्या कामांतल्यान कडेक सरतलों ...बरोवपा सारकें कितलेंशें उरलां तें आतां बरोवन पुरें करतलों ...

...सो भास उलयतात हो तुमी, काकासाहेब!' किशोरलालभाईंनी ...मचे मजगतचे तुमीच एकले देशभर भोंवतात... म्हाका आनी ...कजमपाचें ना हें म्हूण आमी हुस्क्या मेकळे आसात. तुमच्या ...वर मात पसून खंड पडूंक फावना. तुमी कितल्याश्या नव्या नव्या ...क रणा दिवन गांधी कार्यांत हाडल्यात. होवूय तुमचो वावर असोच ...क जाय... बरोवप-बिरोवप जातलें, म्हाका ताचो हुस्को ना... ...चें तुमचें बरप अशेंच बरोवन जालां.'

...जाडींतल्यान भायर येतकूच हांवें काकासायबांक म्हळें, घटमूट ...टमूट मेंदू आसता म्हणपाची धारणाच किशोरलालभाईंनी फट ...दायल्या. तांगेलें **समूळी क्रान्ति** पुस्तक हांवें वाचलें... एका सारकीं ...दुस्र्या कडेन झूज दीत आयिल्ल्या कोणें तें बरयलां म्हणपाचें ...दिना...'

...**जीवन शोधनूय** वाचून काड.' काकासायबांनी म्हळें. 'भारतीय ...चाक तांगेलें हें मुळावें योगदान म्हणूंक जाय. शंकराचार्य, मध्वाचार्य, ...र्य, रामानुजाचार्य बी आचार्यां उपरांत भारतीय तत्त्वविचारांत नवी ...कोणें घालुंकूच नाशिल्ली... किशोरलालभाईंनी घाल्या... ह्या ...खूब जाणांक धसके दिवन चिंतूंक लायल्यात...'

...ळ थांबून म्हणपाक लागले, 'नाल्ल हरवो आसता तेन्ना ताची ...ट्टेक दशिल्ली उरता. कट्टेर धपको मारल्यार तो कातलेकूय ...नाल्ल सुकत घाल. कातली कट्टे पसून वेगळी जातली. मागीर ...य धपको घाल, गुडगुड्याक कांय जावपाचें ना. किशोरलालभाईंनी ...मेंदू कुडी पसून वेगळो काडला. कूड कितलीय दुबळी पडूं, ...तेंय जावं, तांच्या मेंदवाचेर ताचो परिणाम जायना... ...भाईंनी हे दुबळे रोगी जर्जर कुडींत रावन संवसाराक कितले ...नी मुळावे विचार दिल्यात! आयज लेगीत ते केद्या अधिकारान ...र्गदर्शन करीत रावल्यात...!'

...म्हळें, 'आरेच्या! हांकां पडना अशें हांवें कितें पळोवन म्हळें? ...इतले दाट आनी घट की मतभेदांनी ते तुटपाचे नात... जे ...सतात ते वयले वयले... तातूंत तांचें खेरीतपण दिश्टी पडटा ...खेरीतपणांतूच दोगांयचो गौरव जाता!

...लालभाईंचें **कागडानी नजरे** – 'कावळ्याचे नदरेंतल्यान' नांवाचें ...ह्याच अदमासाक आयिल्लें. तातूंत काकासायबांचेर तांचो एक ...ल्लो. 'असलो मनीस येवरोपाक जल्माक आयिल्लो जाल्यार ...ळीं विश्वविद्यालयां तांकां 'डॉक्टरेटी' दिवन खासा आपलो ...रून घेतलीं आशिल्लीं' अशें तातूंत आशिल्लें. हांचे मजगतीं ...णपाची ताकतीक हांवें करूंक जायनाशिल्ली, हांवें मनांत म्हळें.

...जो हो नवो सोद कुन्दर दिवाणांक सांगलो. विनोबांच्या विद्यार्थ्यां ...दरजीं कडेन म्हजी तार बरी जुळिल्ली. ते म्हणपाक लागले, 'म्हाका तर केन्नाच काकासायब, विनोबा, किशोरलालभाईं मजगतीं भेद जाणवलो ना. तांचे मजगतीं जे मतभेद आसात ते एकामेकांक पूरक, एकामेकांक पोषकूच म्हणूंक जाय... सुर्याचीं किरणां हीं. तीं एकेच दिकेन कशीं वतलीं? तीं धाय दिकांनी वतलीं आनी संवसारांतलो काळोख ना करतलीं. तिगांच्याय हातांत एक एक दिसाळें आसूंक जाय आशिल्लें... विचारांच्या आनी आचारांच्या मळार देश कितलोसो गिरेस्त जातलो आशिल्लो.'

[३]

कांय म्हयन्यां उपरांत विनोबांची भूदान चळवळ सुरू जाली. विनोबा म्हळ्यार वेदां पसून गांधीं मेरेनचो पुराय भारतीय तत्त्व विचार कोळून पियेल्ले एक विद्वान... देशांतलें सगळें संत-साहित्य जिबेर आशिल्ले एक संत... ते खंयचीय चळवळ हातांत घेतीत – तिवूय भूदाना सारकी आगळी वेगळी – अशें तांगेल्या सांगात्यां मजगतच्या कोणाक दिसुंकूच नाशिल्लें. हांवें एक दीस काकासायबांक म्हळें,

'आयज विनोबां कडेन पळेतां तेन्ना काल पयर मेरेन पळेल्ले विनोबा कशे ते दिसच नात. तांच्यांत गांधींनी प्रवेश केला काय कितें असो भास जाता. हालिंसाराक ते उलयतात लेगीत बद्द गांधीं भाशेन... म्हाका अजाप जाता तें एकेच गजालिचें, ते इतलीं वर्सां कडेक कशे उरले? फाटीं कशे पडले?'

'विनोबा फाटीं पडल्यात?' म्हज्या तोंडा कडेन अजापान पळोवन काकासायबांनी म्हळें. 'च्ये, तांणी बापूजींक पयलींच सांगिल्लें, हांव पंचवीस वर्सां फकत शिकतलों. पंचवीस वर्सां फकत रचणुकी कार्यावळ घेवन बसतलों... उपरांत रासवळ मळार देंवतलों... तांगेलें पुराय जिवीत 'प्रि-प्लॅन्ड्' (पूर्वनियोजित)... ते प्रमाण ते आतां रासवळ मळार देंवल्यात... आयज बापूजी नात हो योगायोग म्हणूंक जाय. आशिल्ले जाल्यारूय ते असलें कितेंय तरी सुरू करतलेच आशिल्ले... तांगेली ही चळवळ पळोवन म्हाका मात लेगीत अजाप जायना.'

हांवें म्हळें, 'तुमी सांगलें म्हूण म्हाका तांगेल्या पूर्व-नियोजित जिविता संबंदान कळ्ळें. ना जाल्यार कळचेंच नाशिल्लें. खूब जाणांक हें खबर आसचें ना... तांच्या जिविताचीं आनिकूय कांय आंगां आसतलीं, जीं जगाक खबर नात... तुमकां दिसना, तांचे संबंदान तुमी कितेंय बरोवंक जाय म्हूण?...'

'बरोवचें जालें जाल्यार जायतें बरोवंक येतलें. आमी कितल्याश्या वर्सां सावन एकामेकांक लागिच्यान वळखतात. विनोबां कडल्यान देशाची आनी जगाची खूब व्हडली सेवा जावपाची आसा...' तांणी म्हळें, 'पुणून आमी दोगूय गुरुभाव. एकामेकांची तुस्त तोखणाय करप आमकां सोबचें ना हे भिडेन अजून मेरेन हांवें तांचे संबंदान व्हडलेंशें कितेंच बरोवंक ना...'

काकासायब उलयताले तेन्ना तांच्या दोळ्यांतल्यान विनोबांचे तत्त्वनिष्ठेचो आनी संकल्पशक्तिचो आदर, तांचे विशिंचो मोग, आपलेपण हांच्यो धारो व्हांविल्ले वरी म्हाका दिसल्यो.

तरूय हांवें म्हळें, 'तुमी भूदान चळवळीक थोडो वेळ कित्याक दिनात?'

'म्हजे कडेन म्हर्जी कामां आसात, बापूजींनीच दिल्लीं. तातुंतलो थोडो वेळ हांवें भूदानाक दिलो जाल्यार तो बापूजींच्या आत्म्याक मानवचो ना... तरूय हांव म्हजे पद्धतीन तांच्या वावराक हातभार लायतां. देश विदेशांत जंय जंय पावतां थंय थंय हांव लोकांचें लक्ष भूदान चळवळी कडेन ओडटां... हाचेकूय चड कितेंय करप म्हाका जमपाचें ना. खासा बापूजींनी असलें कितेंय सुरू केल्लें जाल्यार म्हाका ते तातूंत ओडचे नाशिल्ले. नोआखालीचे यात्रेंत हांव तांचे सरीं रावन तांकां आधार दितलों म्हूण गेल्लों. बापूजींनी म्हळें, तुजे कडेन हांवें भाषा-समन्वयाचें आनी धर्म-समन्वयाचें काम दिलां. तें सोडून तुवें हांगा येवचें अशें म्हाका दिसना... आनी तांणी म्हाका परतो

धाडून दिल्लो.'

वर्स सोंपचे पयलींच हांव विनोबा आनी काकासायब दोगांय कडेन अभेदाचे नदरेन पळोवपाक लागलों.

कांय दिसांनी किशोरलालभाई संवसार सोडून गेले.

[४]

विचारांच्या मळारूय विनोबा आनी काकासायब एकेच दिकेन चलत आयल्यात म्हणपाचें म्हाका एक दीस दिसून आयलें. अध्यात्म आनी विज्ञान हांचे मजगतीं समन्वय घडोवन हाडूंक जाय म्हणपाचो विचार विनोबांनी मांडला ताच्या कितल्याश्या वर्सां पयलीं काकासायबांनी मांडिल्लो. सर्वधर्मसमभावांतल्यान सर्वधर्मममभावा कडेन वचूंक जाय होवूय विचार विनोबां पयलीं काकासायबांनी मांडला. भाशेच्या प्रस्नाचेर तर दोगांयचे विचार सारके. इतलेंच न्हय, तर विचार समजावन सांगपाची दोगांयची तराय सारकी. 'सर्वोदया'च्या एका आंकांत विनोबांचें एक उलोवप वाचूंक मेळ्ळें. प्रकृतींतल्यान मनीस संस्कृती कडेन कसो वता, संस्कृतायेची उवेखणी केली जाल्यार प्रकृतिची विकृती कशी जाता हें ह्या उलोवपांत तांणी समजावन सांगिल्लें. वाचिनाफुडें हांवें म्हळें, 'आरेच्या हो विचार काकासायबांचो... युक्तिवाद लेगीत जिस्त तांचेच सारके.' काकासायब बंदखणींत आसतना लेख डिक्टेट करताले, ते कांय पटयांनी आशिल्ले. ह्या पटयांक ते 'जेल डायरी' म्हणटाले. हांवें तांची ही डायरी काडली. प्रकृती, संस्कृती, विकृतिचो विचार तांणी धा वर्सां आदीं मांडिल्लो मेळ्ळो. हांवें तो वांटो 'मंगल-प्रभातां'त छापूंक दिलो.

हांवें ही गजाल काकासायबांक सांगली आनी विचारलें, 'तुमचे दोगांयचे विचार सारके कशे?'

काकासायबांनी म्हळें, 'म्हाकाय केन्ना केन्ना हे गजालिचें अजाप जालां... एक तर आमी कितलींशीं वर्सां एकठांय रावन वेगळ्या वेगळ्या प्रस्नांचेर खूब चर्चा केल्या आनी दुसरें म्हळ्यार, आमी दोगूय आयुष्यभर आमच्या विद्यार्थ्यांक शिकयत आयल्यात. हाका लागून प्रस्न समजावन सांगपाची आमची तराय सारकीच विकसावन आयल्या.'

थोडो वेळ थांबून म्हणपाक लागले, 'पुणून आमचे मजगतीं एक व्हडलो फरक आसा. विनोबा खंयचोय विचार घेवन बसले जाल्यार ताचे फाटल्यान लागतात. हांव एकाद-दुकलो लेख बरोवन वा भाशण दिवन ओगी बसतां... एक जिवीत व्यवस्थीत. दुसरें मात्शें सदळ...'

विनोबांकूय एका कानान आयकूंक येना हें पळोवन हांवें एक खेपे विनोबांक म्हळें, 'तुमच्या दोगांयच्या विचारांत सारकेपण तर हांव सदांच पळेत आयलां, तुमच्या कुडींतूय साम्य आसा हें आतां पळेतां... काकासायबांकूय एका कानान आयकूंक येना.'

'आमी दोगूय समानशील समानधर्मा सांगाती.' विनोबांनी जाप दिली. 'ते भायर, आमची दोगांयचीं मनां आनी काळजां एक. पुणून आमचे मजगतीं एक मोट्टो फरक आसा. कांय विचार तांकां पयलीं येवजतात... म्हाका मागीर येवजतात... तांणी एक खेपे खादी फाटलो विचार एक दीस संवसाराक मानून घेवचो पडटलो अशें म्हळ्ळें... तेन्ना म्हाका ते क्रान्तदर्शी रुशी सारके दिशिल्ले... हांलीच तांणी 'अ-सरकारी कामूच असर-कारी जावं येता' म्हळ्ळें, तेंवूय म्हाका एक रुशीवचनूच कशें दिसलां...'

एक खेपे विनोबांच्या जल्मदिसा निमित्त्यान काकासायबांनी म्हळ्ळें, 'विनोबां परस पिरायेन हांव इकरा वर्सांनी जाणटों... म्हळ्यार, सिनियर... पुणून आयज गांधी कार्य मुखार व्हरपाच्या वावरांत विनोबा आमचे मजगतच्या कोणाय परस सिनियर-मोस्ट जाल्यात.'

काकासायबांच्या अंयशाव्या जल्मदिसा विनोबांनी म्हळ्ळें, 'काकासायब कितें, हाचे परस ते कितें न्हय हेंच सांगप कठीण. ते कितेंय आसूंत, उत्तमांतले उत्तम आसतले, उत्तमांतले उत्तम साहित्यकार, उत्तमांतले उत्तम शिक्षक आनी शिक्षणशास्त्री, उत्तमांतले उत्तम समाजशास्त्री...'

कितलें आपलेपण दिसतालें दोगांकूय एकामेकां विशीं!

दोगांय मजगतीं मतभेद सोदून काडपी आमची नदरूच मोटवी म्हणूंक जाय.

आयज किशोरलालभाई नात. काकासायब नात. विनोबाय नात. पुणून तांकां पळेल्ले, तांच्या पांयां कडेन बसून शिकिल्ले, तांच्या हाता खाला काम करून आयिल्ले आमी कांय जाण अजून आसात. आमचे मजगतचे संबंद पळेतां तेन्ना मन खंतीन भरून येता आनी तोंडांतल्यान उतरां फुट्टात-

सत्ययुग पळेल्ले आमी, केदे बेगीन कलियुगांत पावले!

## विस्वास स्थापन करूंया

विनोबा म्हणटाले, 'कुडींत स्वास तसो समाजांत विस्वास. स्वास बंद जालो जाल्यार कूड उरना तसो समाजांतल्या लोकांचो एकामेकां वेलो विस्वास उडून गेलो जाल्यार समाजूय उरपाचो ना.'

हिन्दुस्तान पाकिस्तान दोनूय देशां मजगतच्या किजिलांचें कारण कितें? काश्मीर? धरूंया, काश्मीर आमी पाकिस्तानाक दिवन उडयलें. जाल्यार किजिलां ना जातलीं? इतपार ना. दोनूय देशांचो एकामेकां वेलो विस्वास उडून गेला. तो जे मेरेन आमी चालू करिनात; सिद्ध वा स्थापन करिनात-ते मेरेन काश्मीर खंयचें, पुराय हिन्दुस्तान पाकिस्तानाक दिवन उडयलें जाल्यारूय किजिलां ना जावपाचीं नात.

उडून गेल्लो विस्वास परतो कसो चालू करपाचो? पाकिस्तानांत वचून 'आमी तुमकां आमचे भाव मानतात, तुमीय आमकां तशेच मानात... झगडीं झुजां आमी आतां बंद करूंया, एकामेकां कडेन भावकेन चलुंया' अशें थंयच्या लोकांक सांगून? बाबा आमटेंक तें सोबता. आमकां न्हय. आमी ल्हान तोंडांत व्हड घांस घेवपाक गेले जाल्यार हांशाक म्हारग जातले. आमच्या हातांत आसा तो एकूच उपाय. आमच्या शेजरा रावतात त्या मुसलमानांक पटोवन सांगपाचें, 'बाबानों, हिन्दुस्तान पाकिस्ताना मजगतच्या किजिलांनी हावळ येवं येता ती फकत तुमच्याच फुडाराचेर. पाकिस्तानांत तुमचे सोयरे आसात. तांकां वचून सांगात – हिन्दुस्तानांत फकत काश्मीर ना, आमीय आसात. आनी आमी सुमार इकरा कोटी लोक आसात. तांचें कितें करपाचें येवजिलां तुमी? एक तर काश्मीर आमचे बरोबर रावतलें वा काश्मीरा वांगडा आमकांय व्हरपाची तजवीज तुमकां करची पडटली. आमकां हांगाच दवरून तुमी काश्मीर घेवन गेले जाल्यार आमकां अल्ला-ताला लेगीत वांचोवंक पावपाचो ना.' जायत व्हय आमकां कोणाक काळीज हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानांक हें पटोवपाचें?

एक विसरूंया नाका – हिन्दुस्तान पाकिस्तान दोनूय देशांनी एकामेकां आड केन्नाय वापरचीं पडल्यार वापरूंक मेळचीं म्हूण जीं अण्वस्त्रां तयार करून दवरल्यांत तीं केन्ना कोणाचेर पडत सांगूं येना. पडलीं जाल्यार सर्वनाश सोडून दोनूय देशांच्या पदरांत दुसरें कितेंच पडपाचें ना.

मनीस सदांच बदलत आयला. न्हंय जशी सदां तीच दिसता पुणून तीं नासता, खिणा खिणाक नवें उदक घेवन व्हांवत आसता, सदां नवी ताजी आसता, तसो मनीस तोच दिसलो तरूय तो तोच नासता. तोवूय बदलत आसता. नवो जायत रावता. मनीस बदलता हे गजालिचेर विस्वास दवरूंक जाय. हिन्दुस्तान पाकिस्तान दोनूय देश चलत आयल्यात तशेच सदांच चलत रावपाचे नात. बदलतले हो विस्वास बाळगूंक जाय.

अविस्वास आयच्या काळांत चलपाचो ना. चलूंक दिलो जाल्यार एक दीस तो आंगलट आयले बगर रावपाचो ना. म्हूण, एकामेकां वेलो उडून गेल्लो विस्वास पर्थून चालू करूंया, पर्थून स्थापन करूंया. पयलें पाव

हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानांक 'आमचे' करुंया. बाबा आमटेंच्या क खूब व्हड तेंको मेळूंक पावतलो.

## वाटमारे, उरफाट्या काळजाचे

कसभेचे वांगडी ५४५ आनी राज्यसभेचे २५० मेळून ७९५ हे तिनिधी' देशाक कशे लुट्टात, पळेल्यात ?

ळ्यांक पगार मेळटा. ताका ते 'मानधन' म्हणटात. ते भायर, सदचो (डेली अलावन्स) आनी कॉंस्टिट्युयन्सी अलावन्स मेळटा. ऑफीस पा खातीर जागोय मेळटा आनी भत्तोय मेळटा. स्टेशनरी खातीर वेगळो मेळटा. पालमिन्ट भरता तेन्ना वा खंयचेय कमिटिचो वांगडी आसतना ची बसका आसता तेन्ना येवपा वचपाचो भत्तो मेळटा. रावपाक बंगलो ना जाल्यार फ्लॅट. (कांय खासदार कोणाकूय आपलो सोयरो म्हूण ताका बंगलो वा फ्लॅट भाड्यानूय दितात.) तो वा ताचे घरचो कोणूय णार पडलो जाल्यार वैजकी उपचार फुकट मेळटा. नवी गाडी घेवची जाल्यार 'लोन' मेळटा, इन्कम टॅक्सांत सूट मेळटा. परकी चलनाचो '-मेळटा. 'डिप्लॉमॅटिकं पासपोर्ट' मेळटा. देशा भायर जाय तितलो करुंक मेळटा.

एका खासदारा फाटल्यान सरकार म्हयन्या म्हयन्याक देड दोन रुपये खर्च करता. घडये चडूच आसूं येता. म्हळ्यार, ह्या धव्या हतयां सरकार म्हयन्याक १५९० लाख (म्हळ्यार कितले ?) खर्च करता. ल्यांत सोंपूंक ना —

च वर्स खासदार उरल्यार पुरो, जल्मभर पेन्शन मेळत रावता. (ही त आतां आमदारांकूय लागू केल्या. आनी आमदार देशांत ४५०० त). ते भायर खासदाराक एक रेल्वे पास मेळटा. पयल्या वर्गांतल्या वा ए.सी. स्लिपरांतल्यान ताच्यान देशांत कितलेय खेपे (वांगडा कोणाकूय एकल्याक घेवन) भोंवं येता. (माजी खासदारांकूय ही सवलत आतां लागू केल्या.) वर्सांतल्यान बत्तीस खेपे वांगडा कोणाकूय घेवन ताच्यान विमानांतल्यान फुकट प्रवास करूं येता.

जण एकल्याक तीन फोन मेळटात. एक घरा, एक ऑफिसांत, एक मतदारसंघांत. दर एका फोना वेल्यान ताच्यान वर्सांतल्यान पन्नास हजार कॉल करूं येतात. वर्सांतल्यान देड लाख फोन अमेरिकेंतलो रॉकफॅलर वा फोर्ड लेगीत करिना, पुणून खासदारांक बायल भुरगीं आसात आनी ताचे सोयरे न्यूयॉर्क, वॉशिंग्टन, लंडन, दुबय खंयूय आसतात. वरांचीं वरां फोन कर. फोनूय कसले ? 'आज जेवणाक कितें केल्लें ? आईन सकाळीं इडली केल्ली... रातचें सुंगटां घालून अळसांद्यांचें तोंडाक आनी तळिल्ल्यो इडल्यो खाल्यो... तुमगेर नुस्त्याक कितें आशिल्लें ?...' असल्यो खबरी !

ते भायर जण एका आमदाराक एक कोटी रुपये 'कॉन्स्टिट्युएन्सी डेव्हलपमेंट फंड' म्हूण मेळटा. ताच्या मतदारसंघांतलीं 'विकास कार्यां' करपा खातीर. एक कोटी पावनात म्हूण दोन कोटी केले. चार कोटी तरी करुंकूच जाय अशें खासदार एका मुखान मागपाक लागल्यात.

मंत्री कितलो खर्च करतात जातले ? खासदार करता ताच्या शंबर वांट्यांनी तरी चड. बरें, राज्यांत मंत्री कितले आसचे हाचे कांयच नेम नात. उत्तर प्रदेशांत ९२ मंत्री आसात जाल्यार बिहारांत ८२....

जांकां मंत्रीपदां दिवंक मेळनात तांकां वेगळ्या वेगळ्या कॉरपोरेशनाचीं अध्यक्षपदां आसात...!

कोण म्हणटा, हो देश गरीब म्हूण ? आशिल्लो जाल्यार कोण हे भाशेन देशाक लुटचो नाशिल्लो. गरीब आसुनूय कोण लुट्टा जाल्यार तांकां लोकप्रतिनिधी न्हय, वाटमारेच म्हणचे पडटले. असले तसले न्हय, उरफाट्या काळजाचे.


'जागा'क शुभेच्छा !

एक बरें मागपी

# पडसाद

संपादक, जाग

हें पत्र पुण्यासून बरयतां. म्हजे कडेन हांगा जागाचे आंक नात. पुण्या-मुंबयचे धांवपळींत रवीन्द्रबाब केळेकारांचें बाकीबाबां विशिंचें टिपण वाचूंक पावलोंना. उपरांत सुरेश गुंडू आमोणकारांची ताचे वयली प्रतिक्रिया वाचली आनी म्हज्या मनांत हे विचार आयले:

— बाकीबाब हे एक अवलिया. महाराष्ट्रांतल्या रसिकांनी तांच्यांतल्या साहित्यिकांतले गूण पळेले. चडशा गोंयकारांक त्या मनशांतले दोश दिसले.

— बाकीबाब खूब उलयताले. तातूंत विद्वत्ते परस रसिकता चड दिसताली. गोंयकारांचो 'हांव' तांच्या उलोवपांत खूबशे फावटीं झळकतालो. तरीय तांचें उलोवप आयकन दिसतालें. सोरो पियेतकच तें उलोवप अदीक सुरबूस जातालें.

— बाकीबाबांचेर हांवें कांय वर्सां पयलीं 'कुळागरां'त एक लेख बरयल्लो. माथाळो: 'बाकीबाब बोरकार पावली मारीत येता...' त्या लेखांतले कांय मुद्दे अशे (उगडासांतल्यान बरयतां): १. बाकीबाब चलतना तांच्या जोत्यांल्यान चर्र चर्र करून जो आवाज येता तो बारीकसाणेन आयकशात जाल्यार तुमकां 'मार भिस्क्यार... मार भिस्क्यार' हीं उतरां आयकूंक येतलीं. २. बाकीबाब सदां आपणाचेरूच इतले उलयतात... ताका लागून तांकां दुसऱ्याची टिका करूंक वेळूच नासता. देखून ते कोणाचें केन्ना वायट उलयनात. ३. बाकीबाबांली कूड गोंयांत आसता तेन्ना तांचें काळीज पुण्या-मुंबय आसता. ४. बाकीबाब मराठी काव्य बरयतना आनी उजवाडायतना जी लक्तुबाय दाखयतात ती ते कोंकणी कवितांचे बाबतींत दाखयनात. कांय कोंकणी कविता तांणी बऱ्यो बरयल्यात, कांय पाडल्यात.

त्या वेळार बाकीबाब पर्वरी रावताले. 'कुळागरा'चो आंक हातांत पडला तेदीस मंगेश पाडगांवकार तांगेर आसले. तांकां तांणी तो लेख वाचून दाखयलो आनी उपरांत म्हाका रकाद धाडलो, फुडलें कोंकणी पुस्तक छापतना तुज्यो सुचोवण्यो मतींत धरतां (उतरां म्हजीं, आशय तांचो).

हें बाकीबाबांलें व्हडपण. 'तूं कालचो पोर म्हाका शाणेपणां सांगता?' अशें तांच्यांनी म्हणूं येतालें.

— बाकीबाबांक लोकांच्यो ताळयो, शाबासक्यो बी गजाली आवडटाल्यो. बक्षिसां घेवप आवडटालें. आव्हानां सुमारा भायर मानवतालीं. खुशमस्करेय मानवताले.

— र.वि. पंडितांच्या पयल्या पांच कवितासंग्रहांच्या प्रकाशना वेळार बाकीबाबांनी 'जागी जाल्या गोंयची सासाय... मार शेंसार... मार शेंसार' कविता रचून वाचली आनी सभा जिखली. त्या वेळार पंडितांनी वाचिल्ली कविता फिकी पडली.

— 'आनंदयात्री रवीन्द्रनाथ' हें पुस्तक बाकीबाबांनी पुरस्कारा खातीर बरयलें असो महाराष्ट्रांत कांय जाणांचो तांचेर आरोप आसलो, अजून आसा.

— एका जाग्यार म्हयन्यांचे म्हयने बसून लांबलचक कितेंय बरोवप बाकीबाबांक जमनासलें; तो तांचो पिंड न्हय ही गजाल कांय प्रमाणांत मान्य. पूण बाकीबाबांनी कांय पुस्तकांचीं भाशांतरां केल्यांत, 'भावीण' सारकी कादंबरी बरयल्या हेंय आमी मतींत धरूंक जाय.

— बाकीबाबांक एकाद्रें आव्हान मेळिल्लें वा तांकां तांचे कालेतीक जुळटा आनी तांचे कडल्यान काम करून घेता असो रसीक मेळिल्लो जाल्यार घडये तांचे कडल्यान 'महात्मायन' बरोवन जातलें आसलें.

शणै गोंयबाबां कडल्यान कांय पुस्तकां बयाभावान बरोवन घेतिल्लीं (हें बयाभाव सांगताले आनी श्रीपादबाब देसायांनीय बरोवन दवरलां) हे गजालिचो ह्या खिणाक उगडास जाता.

भौ. संपादपी, जाग

'जागा'च्या जून २०००च्या आंका सावन 'पु.ल. देशपांडे' ह्या मुळाव्या कोंकणी संवेदनशीलतेच्या परंत वेव्हारीक कारणांक लागून मराठींतल्यान बरप करतल्या साहित्यिका संबंदान खूबशें वाचूंक मेळ्ळें. 'तुझें आहे तुजपाशीं' नाटकाच्या निमित्तान आचार्यांचो – आचार्य भागवतांचो दोन तीन खेपो उल्लेख आयलो. सकयल कांय संदर्भ दिल्यात. आचार्य भागवत कोण आशिल्ले तें समजून घेवपाक वाचप्यांक तांचो उपेग जावं येता अशें दिसता.


१. जोशी, ना.ग., ''भारतीय प्रबोधनाचे उद्‌गाते'', **सत्यकथा**, मुंबय, जानेर १९७४, पानां: २३-४३.

२. देशपांडे, सुनीता, ''भारतीय प्रबोधनाचे उद्‌गाते, आचार्य भागवत'', **सत्यकथा**, मुंबय, फेब्रेर १९७४, पानां: ६४-६५.

३. जोशी, ना.ग., ''आचार्य भागवत'', **सत्यकथा**, मुंबय, एप्रिल १९७४, पानां: ५६-५८.


हे भायर, **अभिरुची** (जाने.-फेब्रे. १९७३), **साधना** (चित्रा नायकान अर्पण केल्ली श्रद्धांजली) हे कांय लेख आचार्य भागवतां संबंदान विपूल तपशील दिवंक पावतले अशें म्हाका दिसता.

**— सु. म. तडकोडकार**
गोंय विद्यापीठ, ताळगांव-गोंय

भौ. संपादपी, जाग

दिवाळी आंक पावलो. तातूंत तुमी म्हज्यो कांय कविता छापल्यात तेबद्दल धन्यवाद. पूण छापिल्ल्या 'आमली' ह्या कवितेंत एक मोटो मुद्रण दोश जाल्लो आसा. तातूंत एकीकडे 'आमली' ह्या उतराच्या सुवातेर 'आमी' अशें चुकीचें उतर प्रिंट जाला. ''आमली चिड्डल्ल्या / तुजे / म्हजे / मदी'' – अश्यो त्यो ओळी येवंक जाय आशिल्ल्यो. पूण 'आमी' हो चुकीचो शब्द थंय पडिल्ल्या कारणान वाचप्यांचो घुस्पागोंदळ जावन, एकूणूच कवितेची रसहानी जाता म्हणून मुद्दम बरयलां.

तशेंच, 'ज्ञान' ह्या कवितेंतल्यो म्हज्यो मूळ ओळी अश्यो आसल्यो:

''हे कळ्ळे उपरांत ज्ञान हेच मर्ण
आनी मर्ण हेच ज्ञान''

पूण तुमी त्यो – 'हे कळ्ळे उपरांत ज्ञानूच मर्ण / आनी मर्णूच ज्ञान' – असो बदल करून छापल्यात. कित्याक तें कळूंक ना. म्हाका दिसता संपादकान शुद्धलेखनाचे जाय ते बदल करू येतात (पूण केन्नां-केन्नां एखादे कवितेंत ते करूंकुय मेळनात) पूण कवितेंतल्यो ओळी अशा पद्धतीन 'एडिट' करच्यो न्हंय. कवितेच्या बाबतींत तर तें तसलें स्वातंत्र्य खंयच्याच संपादकाक आसुंक शकना. दुसऱ्या कवींचें म्हाका खबर ना, पूण अशें 'एडिट' करपाचें स्वातंत्र्य हांव तरी खंयच्याच संपादकाक दिना.

स्पश्ट बरयल्याबद्दल राग धरचो न्हंय.

**— काशिनाथ शांबा लोलयेकार**

(ही चीट तश्या तशी उजवाडायल्या – वावुरपी संपादपी)

तुमगेले 'आमली' कवितेंत मुद्रण-दोश उरलो म्हूण खूब वायट दिसता. तुमी तो आमचे नदरेक हाडून दिला तेन्ना आमी तुमचे कडेन जाहीर चूक मागून तुमगेली 'आमली' कविता ह्या आंकांत परती उजवाडा हाडटात.

आतां '...ज्ञान हेच मर्ण / आनी मर्ण हेच ज्ञान' विशीं –

कवीन जितल्या प्रामाणीकपणान कवितेची साधना करूंक जाय तितल्याच प्रामाणीकपणान ताणें भाशेचीय साधना करूंक जाय. स्पश्ट बरयतात म्हूण रागार जावंचें न्हय, आमचे कितलेशे कवी, लेखक बरोवपाचे साधनेच्या

ांगाची उवेखणीच करीत आयल्यात. ना जाल्यार, सातत्यान ीतल्यान बरयत आयिल्ल्यांच्या बरपांत 'छापिल्ल्या कवितेंत', च्या सुवातेर', 'बरयल्ल्या बद्दल' सारकेले प्रयोग कित्याक येवचे? ादी शुद्धलेखनाच्या नेमांची गजाल' जाल्यार शुद्धलेखनाचे नेम घेवंक जाय अशें बरोवप्यांक कित्याक दिसना? शुद्धलेखनाचे नेम यांक लागनात, ते फकत संपादप्यांक लागतात, अशें बी न्हय मूं? रें, छापपा खातीर आयिल्ल्या बरपाचेर संपादकीय संस्कार करप ार फकत बरप शुद्धलेखनाच्या नेमां प्रमाण आसा काय ना तें पळोवप आमी मानूंक ना. 'जागां'तलें बरप सगळ्यांत पयलीं 'कोंकणी कशें जाय' हे आमचे आंवडे. शुद्धलेखनाच्या नेमां भितर व्याकरणाच्या य आसपाव जाता हें विसरुंचें न्हय. देखून, 'जागा' खातीर आयिल्ल्या 'तो एक बरोवपी जावन आसा', 'अशें केलें वता' सारकेलीं वाक्यां ीं जाल्यार आमी तीं 'तो एक बरोवपी', 'अशें करतात' करून डायतात. बरोवप्यान असले बदल करपाची मेकळीक आमकां दिलिना रूय, कोंकणीच्याच बऱ्या खातीर, आमी ही मेकळीक **घेतात**!

अशीच मेकळीक आमी '...ज्ञान हेच मर्ण / आनी मर्ण हेच ज्ञान' ह्यो वळी बदलतना घेतल्या. हांगा तुमचे कवितेन सामकें मराठी वळण घेतलां. इल्लोसो शुद्धलेखनाचोच बदल करून पळोवचो – **मर्ण** 'मरण' आनी, **आनी** 'आणि' करून पळोवचें. (तुमी उतरांचेर अनुस्वारूय घालूंक नात.) 'अनूप होच म्हजो भाव', 'भारत हो म्हजो देश' 'कोंकणी', काय 'अनूप म्हजो भाव', 'भारत म्हजो देश' 'कोंकणी'? जिबे वयली कोंकणी बारीक आयकून पळोवची – कोंकणींत असलो **हो** ना! हो **हो** आमगेल्या मराठी वाचनांतल्यान कोंकणी बरपांत शिरकला – 'केलें वता', 'दिलें गेलें' बी शिरकलां तसो. आमची कोंकणी कोंकणी उरूंक जाय जाल्यार असले अडेचे वा म्हणुंया, बरोवप्याचे भाशेचे साधनेचे आळसायेक लागून आयिल्ले प्रभाव आमी कान आनी दोळे उकते दवरून टाळूंक जाय आनी देखून, हे तरेची 'रसहानी' करपाचीं 'पातकां' आमी करतात. हांव उलयतां, हांव बरयतां तें सगळें कोंकणीच अशें धरून चलप समा न्हय!

तुमचे विशिंच्या आदराक लागुनूच इतल्या स्पश्टपणान बरयलां. रागार जावचें न्हय.

**— वावुरपी संपादपी**


*गोंय सुटके दिसाचो ३९वो वर्धापनदीस*
*१९ डिसेंबर, २०००*

*गोंयचे सुटके खातीर त्याग केल्ल्या हुतात्म्यांक आनी*
*सुटके झुजाऱ्यांक गोंय अभिवादन करता.*

***मुख्यमंत्री श्री. मनोहर परींकार***
*हांच्या गतिमान फुडारपणा खाला सरकाराचो*
*नितळ आनी प्रतिसादात्मक प्रशासन दिवपाचो संकल्प आसा.*

*गोंयाक वैभवपुराय भूतकाळ आसा.*
*कठीण परिश्रमान मेळयिल्लें स्वातंत्र्य लोकां खातीर*
*अदिकूच अर्थपुराय करपा खातीर आतां तो आत्मविश्वासान*
*अदिकूच पर्जळीत फुडारा दिकेन वाट तांकता.*

**म्हायती आनी प्रसिद्धी संचालनालय**
**गोंय सरकार**
हांचे वतीन उजवाडायल्या

# भागरत

जयंती नायक

*खबर आयकून म्हजी तकली सामकी बेजार जाली. कित्याक रूं नाशिल्ल्याचो पूं काडटात लोक? मारफार, छळ-वैदावास भोगल्यारय बायलांनी दिल्ल्या घराच जीण कुसोवची अशी खासा बायलांचीच इत्सा कित्याक?... कोणेंय एकलेन समाजाचीं बंधनां शेंवटून मारपाचो यत्न केल्यारय लोक वर्सांचीं वर्सां तिची फाट कित्याक सोडिनात?*

सकाळचीं आठ वरां जाल्लीं, हांव ऑफिसांत वचपाची तयारी करतालें. इतल्यांत साळूमावशी दुत्त करून घरांत उबी जाली.

''कितें जालें गे साळूमावशे? आज सकाळीं सकाळीं शी?... कसली खबर हाडल्या?'' हांवें म्हळें.

म्हजो प्रस्न आयकून साळूमावशी, ''हँ! खबर कसली?... खबर कसली?'' म्हणून गडबडली.

साळूमावशी म्हळ्यार एक नंबरची 'गांव भवानी'. दिसभर गांवचो उस्टवारो हुंगीत हुंगीत भोंवता. गांवार कोणागेर कितें घडलां ताचो तिका पयलीं वास. केन्ना तिचो कुलो आपल्या घरांत तेंकना. केन्ना हाच्या दारांत, केन्ना ताच्या दारांत... हेडिल्लीच आसता तिनित्रिकाळ. ना घोव, ना भुरगें. साडो-सुडो एकटो जीव. रांदल्यारय जाता, ना जाल्यारय जाता. दिसभर भोंवता, गांवच्यो चामार-चवकशो करीत. कसलीय खबर कळ्ळे उपरान्तूय ती ओगी बसना, खबर गांवभर करप आपली जबाबदारीच मानून कांसाटो मारून ती वावराकूय लागता.

हालींसराक गांवार कितें घडटा तें म्हाका कळोवप ती आपलें कर्तव्य मानता. तिचे नदरेन ती म्हजेर उपकारच करता. ना जाल्यार गांवांत कितें घडटा ताची खबर म्हाका कशी कळपाची?

नोकरेक लागत साकून म्हजो गांवा कडलो संपर्क तुटला. सकाळीं उठून घरांतल्यान भायर सर ते रातचें भितर यो, शेनवार-आयतार खंय न्हय खंय कार्यावळ वा मिटींग. आई आसतना गांवांत कोणागेर कितेंय बरें वायट जाल्यार म्हज्या कानार घालताली. ताका लागून वेळांत वेळ काडून गांवच्यांक पाचारप, खबर घेवप जातालें. आई वचत साकून फाटल्या चार वर्सांत साळूमावशेन ती आपली जबाबदारी मानल्या आनी ती आमचेर प्रसन्न जाल्या. खरें म्हळ्यार म्हाका तिचे गांव-धवळे आवडनात. म्हज्या बापाय-भावांकय आवडनात. पूण करतलीं कितें? अडिल्ल्या नडिल्ल्या वेळार कित्याकय हात-बोट घालूंक ती येता. म्हणटकच तिचें जगपुराण आयकून घेवचें पडलेंना?... ना म्हळ्यार गांवांत कितें घडटा हाचो वास आमकां तिका लागुनूच लागता.

''खबर कांय ना गो बाये... पुणून... पुणून तुका सांगप म्हुणोन हांव फाटले दोन दीस जाले चोयतां, तूं म्हाका जापेकच मेळना! ते पसत हांव आज सकाळफुडेंच येयलां!'' साळूमावशी आपल्या मुकापदार आयली.

''कोणाक कितें जालें गे? गांवांत सगळें बरें मगे?''

''गांवांत सऽऽगलें बरें गो म्हाजें धुये, गांवा भायरच बरें ना!''... ती मड्डे वयली भागरत जाणा म्हुगो तूं? ती चऽऽड बरी ना! साऽऽमकी मरणाक आसा खंय!... कांक्र जाला खंय तिका गळ्याचो...!''

''अशें??... खंय आसा तर गे ती आतां? हॉस्पिटलांत बी घातल्या काय ना तिका?''

''घातल्या!... त्या कामतीच्या चेड्यान... जेंगेर ती पयलूं वावर करताली, तेणी व्हरोन घातल्या खंय. पुणोन ती सामकी इपस्टेंत पडल्या. म्हाऱ्यांत रावों बुसोन कोण ना खंय बाये तिच्या!''

''ना?... तिचो पोसको चेडो खंय गेलो तर गे?''

''चेडो???''

साळूमावशी म्हजेर एकदम उसळ्ळी.

''तो चेडो खंयचो गो तिचो?... पिशार पडलां तूं?... मीण म्हगो तो तिचो!''

''शी!... उलयता कितें गे तूं साळूमावशे?'' हांवें म्हळें.

''उलयता कितें?? गांवांत सगळ्या लोकांक तेंचें सूत आसा तें खबर आसा आनी तुकाच खबर ना?... हागून गू खातलो भुरगो बुजोन जाणा म्हुगो!''

साळूमावशी कँच्च करून म्हज्या आंगार आयली. तशें हांवूय तांबडें जालें.

''आगे, पुणून तूंच एक दीस सांगताली न्ही गे?... तिगेलें घर आनी रावता तो जागो देवस्थानान तिच्या पोसक्या चेड्याच्या नांवार केला म्हुणून?''

''केल्यार? आनी त्या शिवाक लग्न केलो ना तिणें? पुणोन तेंची दाटी आसलेली ती न्हू जाल्या?''

साळूमावशेन तशें म्हणनाका, म्हाका कितें उलोवचें तेंच सुचना जालें. हांव ओगीच रावलें.

''आपल्यालें आसलेलें तेचेर खोंट मारून तिणें पर लागीं केलो!... दुसऱ्याल्या गुवाक येंग माल्ली म्हुणोन तो आपलो जाता? दुसऱ्यालो तो दुसऱ्यालो! पयसो आटको, आयदन खोलो थोडो नासलेलो तिचेडेन! बँकांत वीस हजार आसलेले खंय. ते भायर म्हयनोम्हाल सरकारी पोटगी येता... सगळें घातलें त्या धगडाच्या हड्ड्यार आनी बसली साऽऽमकी सुळसुळीत जावन. आतां दोन येळेच्या गोट्यांक पातिशेर जाल्या! सऽऽगळें आपल्या नांवार जायेसर तो घेन्न नाचलो हिका तळटार, मागीर वडयली काडून कोनशाक! आज आपल्याच घरांत तिका मरोंक थारो ना!''

''पयलीं वयार आसतना एक शेण खाल्लेलें तें खाल्लेलें, जाण्टेपणांतय हिका कसली खाज येयलेली गो?... आमी रावलीं नात, घोव मरतकच रेस्पेदान? म्हाजो घोव मेल्लेलो तेन्ना हांव सामकी वया वयली, धुसमुसली बायल म्हुगो? आं!... आनी तो कितें गांवदेशाचो तरी? तो घांटी म्हुगो जातिचो! तेणें माल्ली मजा जायी तशी हिचे बराबर, जायी तशी धुवोन घेयली, आनी तो आतां हिच्या ताळ्यार हागोंक बुसोन तयार ना!...''

''... ती इतकीं वर्सां वावर करताली तीं मनशां मात बरींऽऽ आं. ही तेंकां दीसभर थोडी जळय नासलेली! आज पुणोन तेणी हिका परसंगार सोडलिना. हिचें चड जालां म्हुणोन कळटकच त्या अजितानच खंय तिका ओस्पितालांत व्हरोन घातली. दोतोराक सांगोन सगळें वखद-पाणी फुकट करून घेतलें. पुणोन हिच्या म्हाऱ्यांत रावपाक कोण नाका? तो परकी,

मनीस! तो कसो रावतलो हिच्या म्हाऱ्यांत? तरी दर दोन दिसांनी येता खंय तो तिचे खबरेक... त्या चोरान मात खंय आजोन तिच्या तोंत पांयो दिलो ना, ना म्हुणोन बायलेकय धाडलिना!''

आतां रांडलाक खंय पश्चाताप जाता आपले करणेचो! काय बरो घोव आसना आपूण गांवार वचोन पडली, ती चूक जाली म्हुणोन रडटा खंय आसतां!... पयस आपरेशिनाक व्हरच्या येळार नर्स गोमटेचो मणी काडूंक लर खंय मेल्ल्याक बोंब मारता तशी माल्ली तिणें!... पिड्डुकांचे पोड घेवन होऽऽ होऽऽ करुन रडली खंय ती!...''

भागरतीक लेखून आनिकय जायतें किर्तें उलोवपाचें साळूमावशेच्या पोटांत जाल्लें. पूण हांव कांयच हुंकार दिना तें पळोवन ती अशीऽऽ जाली आनी ''तां गो बाये हांव, म्हाजे लगाडीक लागल्यार तूं आनी आज आपिसाक वना!'' अशें म्हणत, दोनूच दांगां करून घरांतल्यान भायर सरून गेली.

साळूमावशी गेली आनी हांव खूबच अस्वस्थ जालें. म्हज्या अस्वस्थ जाा फाटल्यान तीन कारणां आशिल्लीं. पयलें, भागरतीक कांक्र जाला सरें, पोटांत पिकिल्लो नासलो, तरी मायेन लागीं केल्लो आधार आसुनय, रती आज अनाथ कशी हॉस्पिटलाचे खाटीर तळमळटा हें. तिसरें मांवशेन सांगिल्लें भागरतीच्या आनी शिवाच्या संबंदाचें. वयल्या दोनूय णां परस हें तिसरें कारणच म्हाका चड अस्वस्थ करतालें.

. खरेंच काय भागरतीचे आनी शिवाचे तसले संबंद आशिल्ले? एकाद्र्याक लो भुरगो म्हुणून मानतकच ताचे कडेन शरीर संबंद दवरूं येतात ाच्यान? तोवूय सगळीं इंद्रियां आंवुळटकच? काय ह्यो लोकांचे लेंतल्यो काणयो?

एक वेळ दिसतालें, आसूं येतात तांचे मर्दी तसले संबंद. ही आवयच्या ची आनी तो भुरग्याचे पिरायेचो आसल्यार किर्तें जालें? शेवटाक ही ल, तो दादलो! आनी कुडिचे भुकेक दोळे नासतात. जनावरांच्यो मादयो ळनात आपणेंच जल्म दिल्ल्या नरां कडेन?! मनीस जातिचो इतिहास क गेल्यार, आदिमकाळार मनशां मर्दी नात्याचे धरबंद खंय आशिल्ले? य कोणाय बरोबर न्हिदतालो, कोणूय कोणाय बरोबर जुंवळटालो!... ी भागरतीची दादल्याची भूक तर तशें पळोवपाक गेल्यार अतृप्तच ल्ली!

तिका न्हाण आयिल्लें खंय बाराव्या वर्सा. ती घोवाक सोडून गेल्ली साव्या वर्सा. बारा ते बत्तीस, म्हणजे सारकीं वीस वर्सां ती घोवागेर ली. पूण ह्या वीस वर्सांत तिचो घोव विठ्ठल सारको खंय घरा-दाराक शेल्लो? आपलीं मेस्तपणाचीं आवतां खांदार घेवन तो काम-धंदो सोदीत, वटां हेडटालो. फकत परबे-सणाक येवचो तो घरा. तेन्नाय तीं एका णार न्हिदूंक पावतालींच अशें ना. केन्ना गांवांत जागोर, केन्ना हिची चण. केन्ना मांयलें मांयपण चाळवून येतालें आनी ती तांचे न्हिदपाकुडी र हांथरूण घालून न्हिदताली.

ज्या नारायण गांवकाराचो हात धरून ती गेली, ताचोय सांगात तिका त तीन वर्सांच मेळ्ळो. तो मेलो तेन्ना ती पस्तीस वर्सांची आशिल्ली... घडये वर्सांचीं वर्सां दांबून उरिल्ली तिची ती भूक जाण्टेपणांत वयर ली आसत... आनी भागरत ती! ती कोणाक मीठ भरपी? जाली इत्सा, ली आसतली भागोवन!

दुसरे वटेन, भागरत असलें हळशिकावणें कर्म करीत म्हुणून मनाक कशेंच नाशिल्लें. म्हजे आईन भागरतीची जी खबर म्हाका सांगिल्ली तिचे वयल्यान तोंडफटकळ आसूं, पूण सोंशीक आनी संस्कारीत म्हणपाचें स्पस्ट जाल्लें. घोवाक सोडून दुसऱ्याचो हात धरून गेल्ली खरी, तरी त्या वचपाक व आशिल्लें. तिच्या वचपाचो दोश फकत तिका एकटेकच दिवंक नाशिल्लो.

म्हज्या भुरगेपणांत भागरतीचें नांव घेवपाचेर गांवांत बंदी आशिल्ली. ती रावता त्या वाठारांत पसून कोणें झळकूंक जायना अशी धा जाणांची शिटकावणी आशिल्ली. पूण लोक आनी ओंक सारकीं. लिपयां-चोरयां जावं ते भागरतीची खबर उलयतालेच.

अशेच कोण तरी तिची खबर उलयतना ती म्हज्या कानार गेल्ली. तेन्ना हांव बारा-तेरा वर्सांचें आसन. येवन रोखडेंच हांवें आईक ते विशीं विचारिल्लें. तेन्ना तिची खबर सांगून आईन म्हणिल्लें,

''दुसऱ्या दादल्याचो हात धरून गेली म्हुणून अजाप? इतलो तेंप ती घोवा बरोबर रावली कशी तें खरें अजाप!... म्हयने म्हयने घोवाचें तोंड दिसप ना! पानार सारकें अन्न ना! मांयन आपणें जेवप आनी शितांत उदक घालून दवरप! दिसवड्याच्या वावराक गेल्यारय दिसवडो मांयच्या हातार दवरपाचो, ना जाल्यार मांय सान्नी मुणोच घेवन लागताली फाटल्यान!

''...पूण खरें सांगूं? त्या दिसा गांव-चवकशे वेळार हिची बाजू कोणें आयकुनच घेतली ना. घेतिल्ली जाल्यार ती घडये आज गांवांत उरतली आशिल्ली... मांडा वयलो तांतयां-पिलो लागलो हिच्या शिलार थुकूंक तशें हिगेलेंय तेम पेटलें. ''मुततां हांव असल्या गांवाचेर आनी घोवाचेर. कांय करनासतना तुमी केलें म्हणटात, जाल्यार आतां हांव तेचे बराबर न्हिदुनच दाखयतलीं तुमकां'' अशें म्हणून तिणें धा जाणांक सांगलें. तें आयकून गांवच्यांलें सामकें तापलें. असली बायल गांवांत नाकाच म्हणलें सगळ्यांनी... तिचे मांयन आनी घोवान चवकशी मागिल्लीच इतले खातीर. तांच्या मना सारकें जाल्लें! नारायण गांवकार मात ह्या वेळार तिचे फाटल्यान रावलो. आपल्याक लागून तिका गांव शेणलो तें पळोवन तोवूय गांवाचेर खोंट मारून तिच्या सांगाताक गेलो. ना म्हळ्यार ताच्या काळजांत तिचे विशीं आपलेपण आशिल्लेंच...

आईन सांगिल्लें ताचे वयल्यान भागरत म्हाका सामकी धाडशी दिसली. तिच्या धाडसाचें सामकें नवलय दिसलें. त्या काळार एकाद्रे बायलमनशेन गांवच्या धा जाणां कडेन येदीं व्हडलीं तेमां खेळप म्हटल्यार?

...भागरत सात वर्सांची आशिल्ली तेन्ना खंय तिका आमच्या गांवांत लग्न करून हाडिल्ली. लग्न किर्तें? व्हंकलेक विकती घेवन केल्लें आयिल्ली मांय! अशा लग्नांत व्हंकलेक आवयलें घर सामकें तुट्टा. तिका आवयले घरचें नातें उरना, आनी घोवाल्या घरचीं आपणें फारीक केल्ल्या भाताची वा पयशांची मुखार तिका जाय तशी घोळोवन वसुली करून घेतात. विकती हाडिल्ली म्हूण तिका घरांत कांय मानय उरना. उतरा पावलाक तिका विकती घेतिल्ल्याचे थोमणे आयकुचे पडटात... भागरतीच्या वांट्याक हे वैदावास आयले. भागरतीचो मांव खंय बारीक जोराच्या दुयेंसान मेल्लो ताका लागून आशि-कुशिच्या गांवांनी तिच्या घोवाक कोणूच चेडूं दिना जाले तेन्ना तिचे मांयन दाबाळी गांवांतल्यान गरजेक आयिल्ल्या भागरतीच्या बापाय कडल्यान दोन मुडी भाताक भागरतीक विकती घेतिल्ली आनी पुताक लग्न केल्लो... पूण भागरतीची मांय आपूण गरजेक आयिल्ली तें विसरली आनी मुखार भागरत घरांतल्यान वचसर तिका तिच्या बापायचे गरजेचे थोमणे दीत रावली.

काळी भिल्ल, नाक खंय-दोळे खंय अशी, थपक्या आंगलोटाची भागरत, बापूय किर्तें आनी आवय किर्तें, हें कळचे आदींच काच्या-बुच्या भावंडांतल्यान घोवागेर पावली. तिचो घोव एकटोच. तो आवय बस म्हणटा थंय बसपी आनी ऊठ म्हणटा तेन्ना उठपी. घरांत आवयलेंच राज्य.

भागरतीचें भुरगेपण सोंपूंक नाशिल्लें. ती कितेंय काम सांगल्यार तें थंय सांडून खेळूंक-नाचूंक धांवताली. तेन्ना मांय तिका सड्डीक पेट घालताली. उपाशीं-तपाशीं दवरताली. एकदां खंय तिचे मांयन तापिल्लो कायलाथो तिचे जांगेर दवरिल्लो!

मांयल्यो गाळी-विस्ती खायत भागरत व्हड जाली. न्हाती-धुती जाली. आतां तिकाय तोंड सुटिल्लें. मांयच्या गाळींक ती आतां गाळयांनीच जाप दिवंक लागली. पूण रांदनी कडेन मात तिका राज्य करूंक मेळ्ळेंना. मांय

मडक्यांत कितें सांडटा, तेंच तिका खावचें पडटालें. एक दोनदां तिणें घोवाक सांगपाचो यत्न केलो तेन्ना घोव उरफाटो तिचेरच खुबून, तिका मारूंक आयलो.

ह्या सगळ्याचेर उपाय म्हणून भागरतीन एक दीस वेगळी पेज शिजयली. तिच्या कर्मान त्याच दिसा तिचो घोव घरा पावलो. तो हुमन्या भितर सरचोच आसा, मांयन ताचे कान फुंकले. ताणें आनी वेळ केलोना, दांडो घेवन चुली वयली मडकी फोडली आनी 'चेडयेक वेगळचार जाय ?... घे वेगळचार सारको' अशें म्हणत तोच दांडो घेवन लागलो तिचे फाटल्यान... तेन्ना दोन दीस बाबडी भागरत शेतांतल्या तणा गुडव्यांत लिपून रावली.

भागरतीक भुरगें जायना म्हुणूनय मांय तिका दीसभर खेपताली. तेन्ना मात भागरत मनांतल्यान न्हिन्नळटाली. खरें तिकाय भुरगें जाय आशिल्लें. हेर बायलांक भुरग्यांक हांडीर मारून भोंवतात तें पळोवन तिका आपलें वांजडेपण जाणवतालें. पूण ती आपल्याक वांजूड मानूंक तयार जायनाशिल्ली. घोव दादलेपणाचें सुखच सारकें दिना तर भुरगें कशें जायत, म्हण चिंतताली. एकदां खेपतले मांयक तर तिणें तशें म्हणून दाखयलेंय बी. मागीर तिचे मांयन तिच्या सात पिळग्यांचो जो उद्धार केलो तो आयकुपाचो न्हय !

पयलीं मांयन धाडली म्हणून, मागीर घरांतल्यान भायर सुटूंक मेळटा म्हणून, भागरत दिसवड्याच्या वावराक वचूंक लागली. दिसवड्याच्या वावरांतल्यान ती टांकार पावली. थंयच तिची आनी नारायण गांवकाराची दोस्ती जाली. लांबरुंद काणो कसो नारायणय बायलमनशेच्या वाऱ्याक आशेल्लोच. ताची बायल बाळंतपणांत मरून धायेक वर्सां जाल्लीं. जाल्लें भुरगेंय वांचूंक पावंक नाशिल्लें. आतां तो घरांत एकटोच रांदून जेवतालो.

दोस्ती जाल्ली, एकामेकां बरोबर हांसता-किटकिट्टात आसलीं तरी तांणी मान-मर्यादिची शीम हुंपूंक नाशिल्ली. पूण लोकांनी घोड्याचो हती केलो. तेन्नाचो गांव ! लोकांक खबऱ्यांक असलेच विशय ! हूं म्हणचे पयलींच खबर भागरतीचे मांयच्या कानार पावली. तिणें केलें आकाश-पाताळ एक. मनीस धाडून आठ दिसां भितर पुताक आपोवन हाडलो आनी घातली धा जाणांक चवकशी. गांवांत गांवकारांची सत्ता. नारायण गांवकाराक कोणें दोश दिलोच ना, दिलो फकत भागरतीक.

...भर दनपारच्या कडार तेदूस भागरत गांवची शीम हुपून गेली. तिच्या सांगातान नारायण गांवकारय गेलो. रिती प्रमाण धा जाणांनी भागरतीचे मांयक, भागरतीक तिच्या वांट्याचो आयदन-खोलो, एक मणभर भात आनी आठ दिसांक पेजेक लागतले तांदूळ दिवंक सांगले. भागरतीक त्या कित्याचीच इत्सा नाशिल्ली, तरी तिका तें बरोबर व्हरचेंच पडिल्लें. रावपाचो थारो उबो जायसर पोटाची कितें तरी वेवस्था जावंक जाय आशिल्ली !

सांतेर देवस्थाना कडेन जागो मागून नारायणान आपल्याक आनी भागरतीक रावंक गांवा भायर मड्डेर एक ताळ्यां खोंप बांदली. शेजार-पाजारच्या गांवांनी मेळटा तो वावर करून तीं आपलें पोट भरूंक लागलीं. दुख्खांतच सूख सोदूंक लागलीं. तांचो संवसार बरोऽ फुलून येवंक लागलो. भागरतीक दिसलें, आतां आपले वैदावास सोंपले. पूण दैवाच्या मनांत वेगळेंच आशिल्लें. एक दीस कोणालीं तोरां काडूंक गेल्ले कडेन नारायण झाडा वयल्यान पडून मेलो. खऱ्या अर्थान भागरत आतां उगडी पडली.

नारायणाचें क्रियाकर्म ताच्या भावांनी केलें. तो गेल्ल्याची खबर कळनाफुडें तांणी ताचें मडें भायले भायर गांवांत व्हेलें. भागरतीक ताचेर निमाणी नदरय घालूंक मेळ्ळिना. तिका खुब्ब दुख्ख जालें. तीन वर्सांच ती ताचे बराबर राविल्ली खरी, पूण ताणें तीस वर्सांचें सूख दिल्लें तिका.

भागरतीन नारायणाचें बारा दीस सुतक पाळ्ळें. मात तो वतकच कपलाचो कुकूम पुसलो ना, गळ्यांतलो मणीय काडलो ना. तो काय ताणें घातिल्लो नाशिल्लो.

नारायण वचून म्हयन्या भितरच भागरतीन कामतील्या घरचो वावर धरलो. तो उर्णी पुरी वीस वर्सां तिणें केलो. आपली कूस फळ्ळी नासली तरी कामतील्या भुरग्यां-नातरांचें गू-मूत तिणें आपलेपणान काडलें. तांणीय तिका आपले घरची कशी वागयली. जेवंक-खावंक न्हेसपाक-पांगरूंक केन्ना तिका पातिशेर केली ना. इतलें करून तिचो म्हयन्याचो पगार तांणी वेवस्थीत बँकेंत घालून दवरलो, तिच्या जाण्टेपणाची ठेव म्हणून.

इतलीं वर्सां झरली, आतां म्हातारपणांत सुशेग घेतां म्हणून भागरतीन फाटल्या स वर्सां साकून कामतीलो वावर सोडिल्लो. तरी ती तांगेर येवन-वचून आशिल्ली. घरांतल्या कार्याक आठ दीस आदींच वचून रावताली.

शिवा कामतील्या च्याच्या दुकानार कामाक आशिल्लो. आठ वर्सांचो आसतना तो थंय आयिल्लो. आतां खाडां-मिशयांचो मानाय जाल्लो. आवय-बापूय गांव-घर नाशिल्लो पोर म्हणून भागरतीची ताचे खातीर माया आटली. फाल्यां मेल्यार आपल्याक मातयेक लावंक कोणूय जाय म्हूण तिणें ताका लागीं केलो. आपलें आशिल्लें-नाशिल्लें सगळें ताच्या नांवार केलें. ताका लग्न करून ताचो संवसार थाटून दिलो. लग्न जालो तशें ताणें तिका म्हळें, "आतां तूं वावर सोड... हांव आसतना तुवें कित्याक घोळूंक जाय? तूं सुशेगाद घरा बस नातरांक खेळयत !"

तें आयकून भागरत सामकी न्हेसणांतच मुतली. सोडलो तिणें वावर रोखडोच. आतां पांयार पांय घालून बसता आपले चौकेर आनी येतल्या वतल्याक हडकिता. भागरतीलें घरय आतां पयलिंचें ना. तें आतां दोन कुडिंचें, फुडल्या-फाटल्या पांख्यांचें जालां. आदलो थंयचो तळपटो सडोय थंय ना. आतां थंय बरी व्हडली कॉलनी जाल्या...

हे मेरेनची भागरतीची खबर म्हाका आईन सांगिल्ली.

"हांव तेन्ना गांवांत नवी गो, आनी तेन्ना गांवांत दादल्यां मुखार बायलांक उलोवपाक कोण दितालो ? तें आयज घडटा जाल्यार हांव चवकशेंत मर्दी जाप घालपाचीं. तेन्ना घालूंक मेळिल्ली जाल्यार ती गांवा भायरी जावची नाशिल्ली!... तोंड फटकळ आशिल्ली खरी गो ती, पूण मनान वायटशी नाशिल्ली. कोणाल्याय कामाक हातबोट लायताली... कामाक कितें ? सामकी वाग ! लोकांनी कितेंय सांगूं तिचे मांयक... पूण म्हाका मात ती नारायणा बरोबर झिली-झोंपांनी पडटाली हें कशेंच पटना आं ! लोकांनी हळशीक शेंवटिली तेन्नाच तीं दोगांय तेमांक पेटलीं हें मात खरें !"

भागरत बंडाळी आसूं, पूण ती चारित्र्यहीन न्हय अशें आईन सांगिल्ल्या तिच्या खबरीं वयल्यान म्हजें मत जाल्लें. कारण, सांगपी म्हजी आवय आशिल्ली. आनी म्हजे आवयक हांव सारकें बरें वळखतालें. खंयच्याय नाण्याच्यो दोनूय बाजू पळोवपी. गांवांत वाचूंक-बरोवंक जाणा आशिल्ली, भायर संवसारांत कितें चलता हें जाणा आशिल्ली ती पयली बायल.

आज साळूमावशेन भागरतीच्या आनी शिवाच्या संबंदा विशीं सांगिल्ली खबर आयकून म्हजी तकली सामकी बेजार जाली. कित्याक रूं नाशिल्ल्याचो पूं काडटात लोक ? मारफार, छळ-वैदावास भोगल्यारय बायलांनी दिल्ल्या घराच जीण कुसोवची अशी खासा बायलांचीच इत्सा कित्याक ?... कोणेंय एकलेन समाजाचीं बंधनां शेंवटून मारपाचो यत्न केल्यारय लोक वर्सांचीं वर्सां तिची फाट कित्याक सोडिनात ?

येदोळ उलयतना साळूमावशेन, गळ्यांतलो मणी काडटना भागरतीन बोब मारिल्ल्याची खबर सांगिल्ली. खऱ्यांनीच काय तिणें तशी बोब मारिल्ली?.. खऱ्यांनीच काय तिचो आजुनय आपल्या खऱ्या घोवाचेर आनी घरादाराचेर जीव आसा ? खऱ्यांनीच काय तिका आपले करणेचो ह्या वेळार पश्चाताप जाता ?... काय ह्यो लोकांल्यो ओगीच वावड्यो ? सुता वयल्यान स्वर्गार वचपाची बी ही पद्धत न्हय मू ?... ऑपरेशनाक व्हरतना मरण दारांत पाविल्ल्याचे जाणविकायेन बी तिणें बोब मारली ना मू ? लोकांनी ताचो वेगळोच अर्थ घेतलो ना मू ?...

...म्हज्या मनांत प्रस्नार प्रस्न उठिल्ले. तांच्या माल्यां मर्दी घुस्पत, गिरगिरत हांवें ऑफिसाचो मार्ग धरलो.

# ंदालो पोर हो...

स खिस्त

मन केळेकार

ांवोळ एक गांव खरो, पूण आमचें घर पडटा आडगांवांत, गांवठण ाा वाड्यार. गांवचें दैवत बेताळ. बेताळाचें देवूळ ह्या वाड्यार आसा. ळ वतलो जाल्यार मुखेल वाटेर सावन पाज्जे वयल्यान सकल देंवचें ट ह्या देवळा भोंवतणीं रावतात ते चड करून देवाचे सेवेकारी. पुरत्यांत वां आनी भावणिंचीं घरां हांगा आसात. मुखेल वाटेक, देवूळवाड्या ेंवचपाक एक सकल्यान वाट फुट्टा त्या नाक्यार श्यामसुंदर गुरवालो र-फस्कां माण आनी चेडो गावड्यालें च्याये हॉटेल आशिल्लें आनी ा तेंकून आशिल्लो भिकू गुरवालो ल्हानसोच भुसारी पसरो. हेच वाटेन तकच दिसतालें एक पिंपळा-पेड. तें काडून मातशें फुडें वतकच उजवे ाा आतोडांत एक व्हड, चौपेटिचें घर दिसतालें. तें घर गांवच्या कुळकर्णी ाचें – शणै प्रियोळकारांचें. हेच सकले वाटेचेर मदींच उजव्यान सरल्यार ों वाट लागता. हे वाटेर एक व्हाळ आसा. ह्या व्हाळा पलतडी दिसता तां वाडो. हांगा एका परस एक कसबी मेस्त आशिल्ले. गोविंद मेस्त, स्त, दत्ताराम मेस्त – लाकडाचें मोबील करचें जाल्यार ताणींच. त्या र वतलो जाल्यार उदकांतल्यान व्हाळ काडचो पडटालो. फुडली वाट ोन्यां वताली आनी फुडें ती म्हाड्डोळ-फोणेंचे वाटेक फर्मागुडयेर ली. हे वटेन बेताळा देवळा कडल्या नाक्या वयल्यान वता ते वाटेर ाचो गुतो आशिल्लो. एकल्या एकसुऱ्या ह्या गुत्याचेर आमोरेर घे म्हण जाताली. आनी ताचे लागसारच उजवे वटेन आशिल्लें हरी मडवळालें लें घर. आमच्या घरा लागसारूच कुळागरां मदल्यान एक पायण वता वांक उदका खातीर व्हरपाची ती वाट. व्हाळा पलतडी दिसता तो म्हारांवाडो. गावडे पुराय रावताले कुळागरांनी आशिल्ल्या चुडटांच्या ीं.

ाड्डोळचे मशिदी कडल्यान सुरू जाल्ली पिरवोळची वाट आमचीं घरां फुडें आप्यां वता. आप्यां खुशाली गुरवाच्या घरा कोनश्यार तिका ांटे फुट्टात. एक केरी, सावयवेरें, वळवय वचपी आनी दुसरो वता ोण्यां वयल्या बाजारांत. आख्खे वाटेचे दावे वशीन दोंगर जाल्यार वटेन आतोडां वा कुळागरां, तरांतरांचे फळफळावळीन चकचयाळ ीं. पुराय वाटार गर्द पाचवो चार. थण्डायूय खुबच. लागीं-लागसार ्या वाड्यां वयलो लोकय कितें व्हडलोसो न्हय. तांची सकाळंय बेगीन ी आनी रातय तशीच. झिळमिट्यार कावळ्यांचो बोवाळ कानार येतालो. यल्यान जोताचीं गोरवां घेवन वचपी शेतकामत्यांच्या आवाजान आनी -सड्याचेर चरवाक वचपी गोरवांच्या गळ्यांतल्या घुंगरांच्या नादान मेट्या उजवाडाक उजळसाण येवन चारूय दिको मंद किरणांनी पर्जळूंक ल्यो. कुळागरांत व्हांवतली पाटा-उदकाची धार ताल सादीत जिविताची रूंक शिकयताली आनी फांतोडे वयल्या शितळ आनी थंड वावाऱ्यो यो झुळको मनाक फुलोर हाडटाल्यो. हांतुणा वयल्यान उठपाक इतलेंच जातालें.

दिल्लो मनीस उठनाफुडें कामाक लागतालो तो बद्द सूर्यनारायणा आंग मोडून काम करपाची ताची वज. दीस मोडून तीनसांज जाताली चरवा वयल्यान परतल्ल्या गोरवांचीं पोटां तुडुंब भरिल्ल्याची गवाय हांबेवणी आनी घोंटेरांचे दिकेन उडाण करपी शेंवण्यांचो किलकिलाट हांकां लागून सगळो वाटार गजबजून वतालो. तेन्ना खंयची रात चांदन्याची आनी खंयची न्हय हें जाणा जावपाक तीथ सोदपाची तकालस पडनासली. पाडव्याचे काळखांतले कोरे पासून वाडटे सायासाचे तरनाटे वरी पांवड्या पांवड्यान ती वाडत वाडत पुनवेचें लकलकीत आनी वांटकुळें रूप कशे तरेन धारण करताली तें उकत्या दोळ्यांक संवयेचें जाल्लें. चंद्रिमाची ती अप्रूप सोबितकाय दोळ्यांक धादोसभरीत करताली.

घराघरांनी अंदूक दिवे मिणमिणटाले. खोंपिंनीं रान्नींतलीं लाकडां जळिल्ल्याचो तितलो उजवाड फांकतालो. खंय असो एकाद्रचा पसऱ्यार खिणाखिणाक भकभकपी पेत्रोमासाचो उजवाड! आनी हो इतलो दिव्यांचो आपालिपाचो खेळ हय-न्हय रातिच्या आठ-साडे आठां मेरेन चलतालो. मागीर सगळें किण्ण आसमंत. जेवन खावन सगळे सुस्त न्हिदेचे आधीन जाताले. मध्यानरातीं दोंगरा वयल्यान कोल्यांची कुयकूय आनी भालुंची आंगार शिरशिरो हाडपी आड्डणी सुरू जाताली. ती आयकनाफुडें तांकां जाप दिवन वाड्या वयल्या सुण्यांची भोंकणी एक्कासारकी चलत रावताली. हे भशेन दिसा उपरान्त रात आनी राती उपरान्त दीस, कोणाचीच वाट पळेनासतना येताले वताले.

रुतुचें चक्रूय तशेंच चलतालें. खंयचो रुतू चल्ला तें सैमूच सांगतालें. वाटे वयल्यान वता आसतना तें आपशींच कळटालें. पारजत, जायो-जुयो, चाफीं, हाते फुलल्यात म्हणपाचें तो तो रुतू अचळय नाका-पुड्यांक जाणयतालो. कानुल्यांचे चोमे काळखी आसमंताक लिकलिकावंक लागले की मीर्ग लागसार पावला हाची सुलूस लागताली. पावश्या दिसांतलो दडका दडकांनी कोंसळटा त्या पावसाची याद जायनाफुडें आजूय जीव सामको उचांबळ जाता. तेन्ना घरा सकयल आशिल्ल्या व्हाळांक हुंवार येतालो तो कितलो! आख्ख्या पावसाळ्यांत उण्यांत उणी आठ धा फावटीं तरी उमळ जाताली. उमळेक लागून जळामळा नितळ बऱ्या उदकाचीं तळींच तळीं जातालीं. दोंगराच्या कडांक पाझर फुट्टालो आनी उदकाचे लोट खळखळाट करीत, मेळटा त्या खळयांतल्यान व्हांवत वचून लागशिल्ल्या व्हाळाक जावं व्हाळयेक वचून मेळटाले. पुराय शेतोड हुंवारांत बुडून वताली. आमच्या भुरग्या मनाक तो एक तांबडो दर्या कसो दिसतालो.

शिंया दीस आयले की ना एक आगळोच परमळ वता थंय शिंवरतालो. तरेकतरा फुलांचो. तेन्नाचें तें शीं म्हळ्यार फकत कुडकुडो. सक्काळीं बोटवो खांदार मारून शाळेक वता आसतना दांतार दांत आपटून तोंड दुखूंक लागतालें. कंवळ्या वोता किरणांचो शेक घेवपा खातीर वतां वतां मदीं आमकां थांबन शें दिसतालें. कोणेंय वाटेवाटसुऱ्यान धग घाल्लो आसल्यार ताचे भोंवतणीं कांय खीण उबे रावन ऊब घेवपाचो मोह आवरनासलो.

म्हणटां म्हणटां शिंया दीस सोंपताले आनी गिमाचें आगळेंपण जिवाक सुखावंक लागतालें. मौज मजा करपाचे हे दीस. अंत्रुजेच्या खंयच्या ना खंयच्या वाटारांत जात्रा सुरू जाताल्यो. आनी जात्रेच्या निमतान तीन तीन चार चार रातीं नाटकां पळोवंक मेळटालीं. त्या काळार नाटकां म्हळ्यार तीं संगीतच आसतालीं. पेटी-तबल्या बगर नाटक म्हळ्यार तें कोणाक खरें दिसपाचें न्हय.

गिमा दिसांनी आनीक एक उद्योग भुरग्यांक मेळटालो; तो म्हळ्यार दोंगरांनी

भोंवपाचो. चुन्नां, कान्नां, चारां ह्याच वेळार पिकूंक लागतालीं. आनी तीं झाडां वयलीं काडून खावपांत जी खोस मेळटाली ती दुसऱ्या कित्यानूच मेळची ना. ह्याच वेळार काजींनी भोंवन म्हुट्टे खावपाक सगळे जाण आशेताले.

म्हजें भुरगेपण ह्या असल्या वाटारांत आनी वातावरणांत हांवें सारलें.

* * *

सरकारी दस्तऐवजांत ह्या गांवाचें नांव 'प्रियोळ' आसलें तरी पिरवोळ ह्याच नांवान ताका सगळेच पाचारताले आनी पाचारतात. ते भायर तेंच नांव समा म्हणपाचें एका नामनेच्या संशोधकान* सांगिल्लें आसा. १३१३च्या खंयच्या तरी तांब्या पट्यांत 'पिर्यल' हें उतर मेळिल्लें आसा अशें ताणें फुडें म्हळां. पिर्यलचें जालां परियल. पोरण्या मराठी महानुभाव वाङ्मयांत 'परियल' उतर मेळटा अशें संशोधक सांगता. परियल म्हळ्यार जेवणाचें पात्र. ताचें अलंकारी रूप कडेक सारलें जाल्यार ताचो निव्वळ अर्थ जाता 'पिकाळ भुंयेचो वाटार'.

ह्या पिकाळ भुंयेच्या वाटारांत १९२७ सालाक, सेतेंब्र म्हयन्यांत एका खात्या-जेवत्या, नांवकुळी बरी आशिल्ल्या घराब्यांत, कोणागेरूय येता तसो एक भुरगो जल्माक आयलो. खंयच्याय भुरग्याक जल्म घेवपाक अनुकूळ असो तो काळ आसलो. भुरगीं जल्माक येतात तीं देवाचे इत्सेक लागून असो भावार्त आशिल्लो त्या काळच्या लोकांचो. कितलींय भुरगीं जालीं तरी तीं कोणाकूच भार जाय नासलीं. कोणूच जल्म आडावपाच्या फंदांत पडनासलो. कित्याक तर त्या काळार मरण आडावपाचे उपाय खूब थोडे आसले. मरण आडावप मनशाच्या हाताभायरें आसलें. सरसकट हिशोब लायलो जाल्यार जल्मतात तांतलीं अर्दमर्द तरी भुरगीं भुरगेपणांतच मरतालीं. बाळंतपणांत मरपी आवयांचें प्रमाणय कितें उणें नासलें. हे परिस्थितींत "चड भुरगीं नाकात, एक थंय दोन पुरो" असो शाणेपणाचो सल्लो दिवपाचीं कोणेंय सुबेजपणां केल्लीं जाल्यार "हें कलम हाता भायर गेलां शें दिसता; हाका चिमला पावतो करूंक जाय" (त्या काळार पिशां मानिकोम चिंबला आशिल्ली) अशें कोणाकय दिसलें जाल्यार तें सभावीक म्हणूंक जाय. ना म्हणपाक चलो जालो जाल्यार घरांत इल्लें चड खोशयेचें वातावरण पसवतालें हें खरें. आनी चली म्हळ्यार तोंड थोडें भोव आमट जातालें. म्हत्वाचें कारण एकूच, चल्याच्या लग्नान घराक जोड जाताली आनी चलयेचें लग्न म्हळ्यार फकत मोड. हो वेव्हार एक नड थरताली. चलो जाय पडटालो तो घरचो वंश चलोवंक, वंश वाडोवंक पूण वंशाचो पयलो दिवो पेटिल्लो आसतनाय आनीक दिवे पेटोवपाचें थांबनासलें. आनीक भुरगीं जावपाचीं रावनासलीं. कितलीं जाल्यांत हाचो लेगीत केन्ना केन्ना हिशेब लागनासलो. म्हज्या सोयऱ्यां भितल्लीच ही एक खबर; दोन पिळग्यां आदली:

भाटबेंस आशिल्ल्या त्या भाटकारागेर भुरगींच भुरगीं जातालीं. चले तश्यो चलयो. दांपत्याचें भुरगेपणांतच लग्न जाल्लें. बारा वर्सांची आसतना लग्न जावन व्हंकल घरा आयिल्ली. आनी ती पंदरा वर्सांची आसतनाच तिचें पयलें बाळंतपण जाल्लें. आपणागेर कितलीं भुरगीं जावंक जाय हाचेर घरकारान येवजूंक लेगीत नाशिल्लें. परिणामी पूत आनी धुवो हांचो उणाव नाशिल्लो. ना म्हणपाक सांजच्या पारा शेजाऱ्यालीं भुरगींय त्या घरांत खेळपा निमतान येतालीं. एक दीस जालें अशें: ताची णवेक वर्सांची धूव स म्हयन्याच्या एका भुरग्याक हांडीर घेवन ताका खेळयताली. बापूय लागसारूच सोफयार बशिल्ले कडेन हाका ताका ऑर्डी सोडपाचें काम करतालो. इतल्यांत ताची नदर त्या गोऱ्यागोमट्या माणकुल्या भुरग्याचेर पडली. वाटकुळेंच रूप, बारीक लिकलिकीत दोळे आनी दिसपाक सामकें रेखीव बावली कशें तें भुरगें पळोवन ताकाय ताची अपुर्बाय करीन दिसली आनी तोखणायेन तो ताचे म्हऱ्यांत गेलो. ताच्या कंवळ्या पोल्यांक सांसपीत ताणें आपले धुवेक विचारलें, "आगो तिरवीण, कोणालें गो हें चली? भोवच लक्तुबायेचें मगो!"

तिरवीण बाबडें अजापान बापाय कडेन पळेत रावलें. कांय वेळान ता हांसो फुटलो आनी हांसत हांसतच ताणें बापायक म्हळें, "बापू, आम मरे तें लक्षीम. विसरलो काय कितें?" आनी ही गजाल आवयच्या का घालूंक तें तडक घरांत भितर धांवतच गेलें. जल्म दिवन स स म्ह जाले तरीय त्या भुरग्याचें रूप लेगीत नियाळपाचें कवतूक नाशिल्ले हे अ तेन्नाचे बापूय!

हाचे वरसून भुरगीं जातालीं तीं कशीं हाचो अदमास बांदूं येता.

म्हज्या आवयबापायचें हांव दुसरें अपत्य. म्हजो व्हडलो भाव जल्म आयलो तो १९२३च्या सुमाराक. जल्मा वेळार ताका जीव ना वाचा उ आवतिकाय जाल्ल्यान ताका साबुद्दीर हाडपाक दोतोरान करपाचे ते स उपाय केल्ले. त्या उपायांचें फळीत म्हळ्यार ताका जीव आयलो पूण त वाचा गेली. ते भायर तो हातापांयान कुल्पाद जालो. तो अँ अँ असो आ करून ताका सांगूंक जाय तितलेंय बरे तरेन सांगतालो आनी ताची संव जाल्ल्या लोकांक तें बेस बरें कळटालें. ताका बरे भशेन आयकूंक येत दुसरे उलयतात तें सगळें समजतालें. ताका हांसूंक येतालें. मुमुरखो हां तो जाणा आसलो – आनी केन्ना केन्ना ताका पोट फुटसर हांशिल कांय जाणांनी पळेल्लो. रडटालोय तो तसोच. दोळ्यांत दुकां हाडून त मोट्यान होळोम काडून. ताची याद म्हळ्यार सामकी दिश्ट लागसा एक फावट पळेल्ल्या मनशाक तो केन्नाच विसरनाशिल्लो. कोण तें स ताका कंठ फुटनासलो खरो; पूण एका फाटल्यान एक नांवां घेवन विच जाल्यार खरें नांव येनाफुडें तकली हालोवन ना जाल्यार हांसून तो म्होर लायतालो. तो घरच्या सगळ्या सोयऱ्यांक वळखतालो. वरसा भर गांवांत कितें कितें कार्यावळी जातात, घरांत खंयचे सण मनयतात, आमच्या देवळांनी जातात त्यो जात्रा, ते निमतान जातात ते काले, ना बी सगळ्यांची खबर ताका बेस बरी आसताली. आनी ती सगळी तो दिसपट्टी आज्या कडल्यान जावं बापाय कडल्यान विचारून घे ताचें मन रिझोवणेचें तें एक साधन आसलें. ताची ही संवय सग खबर आशिल्ल्यान कोणूच ताचेर वाजेनासलो. तापोवपाचे आवतिक तर तो नासलोच. घरांत लग्न जावं मूज, कसलेंय कोणाचें कार्य उ जाल्यार तो आनीक एक विशय ताका मेळटालो. ताची बारीक बारीक स खबर मेळ्ळे बगर ताचें समाधान जायनासलें. वीस बावीस वरसां पिर जाल्यार देड दोन मैल कांय न्हय करून चलत वतालो. आमच्य मुखावयली तीस सपणांची पाज्ज तो कांय न्हय करून चडटालो परतो येतना देंवतालो. तो चड करून चलत वतालो तो शेटिल्यांत, शेटीगेर. थंय तांगेर बसून त्योच त्योच खबरी तांच्या घरच्यां क आयकतालो. आनी काळोख जावचे पयलीं घरा परततालो. त्या मार्गार मोटारी जावं हेर वाहनांची तितलिशी येरादारी नाशिल्ल्यान ताका हुसक्या मेकळीं वचूंक दितालीं.

ताची स्मरणशक्त खुबच खर आसली तसो बुद्दीनय तो भोवच दिसतालो. बेताळा देवळा कडेन शिगम्या दिसांनी नाटकां आसता तिनूय दीस सांजचो वचून थंय माटवांत तो ठाण मांडटालो. रातचो नी वचपाचो मात ताचो हट नासतालो. आपणाक तें जमपाचें ना हाचें जाण आसली, अशें जावं येता. घरांत बशिल्ले कडेन वेळ काडपाचें एक छंद आसलो. तो म्हळ्यार एका फोलिणांत घालून दवरिल्ल्या काजु तो खेळटालो. तांचे वांटे घालतालो कितें, एका वांट्यांतल्यो दु दुसऱ्यांतल्यो तिसऱ्यांत अशो बियो घालून तो आपले परी खेळांतल मेळयतालो. त्यो तो मेजूंक जाणा आसलो अशें म्हणचें पडटा. कोणेंय करपाच्या हेतून तांतल्यो कांय बियो लिपचोरयां काडल्यो जाल्या तें दुसऱ्या दिसा रोखडेंच कळटालें आनी तो मोट्यामोट्यान करंदार लागतालो. हाचो अर्थ आंकड्या शास्त्रांतय ताका गती आशिल्ली उ

वंवनज.
ना आसलें मधुसुदन. पूण म्हणटाले ताका मधूच. हें नांव ताका कें गेणें थारायलें तें कोणूच सांगूंक नकळ. पूण अनुमानान अशें त गे त्या काळार महाभारत सारक्या ग्रंथांचें वाचन आमच्या घरांत जांक जाय.

त्रा दिसता, आमची परिक्षा-पद्धत आनी चड करून परिक्षेंत तया प्रस्नांची तरा ताच्याय काळार आशिल्ली आनी ताचे सारक्या य कल्पाद आनी वाचा नासलेल्या भुरग्यांक मेळटात त्यो परिक्षे ल्र सवलती त्या वेळार ताकाय मेळिल्ल्यो जाल्यार कांय न्हय ावीं तरी परिक्षा पास जावंक ताका व्हडलेंशें कठीण जावचें नाशिल्लें. येन्तो जाणटो जातालो पूण देहाकूड ताची तशी वाडूंक पावलिना. टजायत गेली. ह्याच एका कारणाक लागून तो परतो परतो दुयेंत ा न्न गिळटा आसतना तें ताच्या गळ्यांत अंदतालें. ताका मदीं केयेत रावताली. पायलांचोय ताका जाच जातालो. वखदां चलतालीं. ाळार आयचे सारकी परिस्थिती नासली. दीस वतात तसो तो भिरच घुस्पत राविल्लो. आपकेन्द्रीत जाल्लो. हाची गवाय मेळटा च आवय भायर पडली तेन्ना. ताका तिच्या प्रेता म्हऱ्यांत व्हेलो तेंय तरी बोवाळ करतलो अशें दिशिल्लें. पूण ताणें तशें कांयच रण म्हळ्यार कितें तें ताका अखेर मेरेन कळ्ळेंच ना काय कितें पडटा.

कींतल्या आत्म्याक सुटका करून घेयन दिसलें तेन्ना तो पस्तीस ल्लो.

व्हडल्या भावाकूय सुमार चारेक वर्सांनी हांव ल्हान. हांव जालों रां खोशयेचें ल्हार पसरिल्लें आसूंक जाय. व्हडल्या पुताची ती राजाल्ल्यान दुसऱ्याचेर अदीक भिस्त आशिल्ली. तो आरोग्यान ंगेटीन बरो जाल्ल्यान आवयबापाय भशेन आज्या आजयेचो तो जाल्लो. अपुर्बाय म्हणचे परस लाडच म्हळ्यार जाता. कोणूच ीमर पातयेनासलीं. पुंडलीकदाद आमचो आजो. ताका आमी दादा आनी सुन्दरेव्हनी आमची आजी. तिका आमी आई म्हणटाले. तो जीव आशिल्लो. जमनीर घालतालीं तेन्ना लेगीत हांव वग्गी व हाचेर कोणाचो विस्वास नाशिल्लो खंय. दिमखुऱ्यांनी चलूंक ता जाल्यार शिंगां फुटिल्ले वरी कित्याय कितें करतालों अशें टेलीं सांगतालीं. तेन्ना पावसाळ्या पयलीं चौख्यांनी गोठाणी बी त्यो हातांत धरिनाफुडें कंवडाळें करतात. त्यो हातांत काडून तोंडांतय बी घालतालों जाल्यार कोण जाणा! ह्या नांवरुपांक ंवांत तेल घालून म्हजेर नदर दवरुपा बगर दुसरो उपायच नाशिल्लो. वचन आनी कितें करीन तें सांगूंक जाय नासलें. आमची आजी सुमाराक भायर पडली आसूंक जाय. आजी गेली तेन्ना खंय म्हजे एके मावळणीन, चड करून जयश्रीआकानच जातलें तें, खंय, ''ह्या नश्ट्या नातवानच खाली आमचे आवयक!'' जितलें मायेस्त, तितलें जिबेन फटकळ आशिल्लें. ह्या ताच्या लागूनच कड येवन तें उलयल्लें. पूण आमचे मुखावेले जिणेंत चो म्हजेर आनी म्हजो जयश्रीआकाचेर जो जीव आशिल्लो ताका नाशिल्ली अशें म्हळ्यार लटकें जावचेंना.

आवयक घरांतलीं कामां करचीं पडिल्ल्यान तिका इल्लेंय दुदाचो आसतना, दुदाक धरपा पुरतो भुरग्याक म्हऱ्यांत काडप म्हणपाक तीन चार वर्सांच्या अंतरान परतो गुरवाचार आसतालोच. न म्हजी जतनाय वा तोखणाय करपाक तिच्या वांट्याक वेळच लो. हें तोखणायेचें जावं जतनायेचें काम मागीर जाणट्यांचेरूच आमक्या भुरगेपणांतलीं तीन चार वर्सां आजी आशिल्ल्यान ती म्हाका राखताली. उपरान्त आज्याचेर म्हळ्यार आमच्या दादाचेर सगळो भार पडलो. म्हजें भुरगेपण दादाचे सासायेंतच जडलां घडलां म्हळ्यार जाता.

म्हजी आजी सुंदरेव्हनी सगळ्यांक जिवापसून जाय आशिल्ली. घरांतलीं तशीं घराभायलीं सगळीं तिका मानतालीं. घरची पुराय जापसालदारकी तिचेरच आशिल्ली. आमचें घर सगळ्या केळेकार कुटुंबाचें आसलें तरी घरांत घराब्यांचीं वेगळीं वेगळीं बिराडां आसलीं. आमचें बिराड हें पुंडलीकबाबाचें. खासा दादा, ताची बायल आई, दोग पूत – राजाराम आनी घारू, दोग सुनो, तांचीं भुरगीं, इतलो हो घराब्यांतलो परिवार. तिनूय मावळणिंचीं लग्नां जाल्लीं. पयलें कस्तुरें, हाका गावणेकारागेर दिल्लें. जयश्रीक दुर्भाटा प्रतापराव सरदेसायांगेर जाल्यार गिरिजें हें तिसरें दोंगरेवयल्या कामतींगेर दिल्लें. रामनाथ हो दादालो ल्हानेलो भाव दादाल्या बिराडाकच आसतालो. ताचें लग्न जाल्लें. पूण तो आंकवारी जिवीत सारतालो. तो मातसो कोल्ली आसलो अशें सांगतात. बायल ताका सोंसनासली. ती सांखळेच्या सुखठणकार घराब्यांतली. तिका लग्न जायत सावन तो हे ना ते तरेन पिडटालो. तिचीं कापडां हुलपायतालो, तिचेलागीं उलोवप तर ताचें नाशिल्लेंच. ह्या ताच्या सभावाक लागून तीय कंटाळून कुळाराच वचून राविल्ली. आमी ताका बाप्पा म्हणटाले. तो घरांत आसतालोच पूण जायत्या फावटीं आकार ह्या वाड्यावयल्या आपल्या भाटांत रावतालो. ताणें थंय कोण तरी बायल सांबाळ्ळ्या अशी वदंता आशिल्ली पूण ताचें खरेपण कोणेंच केन्ना केलें ना. ताका भुरगेंबाळ जावंकूच केन्ना पावलेंना. पूण एक खरें – ताका दादाचीं भुरगीं आपलिंशीं दिसतालीं. तांच्या बऱ्या खातीर तो खूब धडपडटालो. राजाराम हो केळेकार घराण्यांतलो पयलोच दोतोर, अलोपथी शिकून आयिल्लो. ताणें म्हाड्डोळा आपणाली कोंसुल्तार घाल्ली. तो काळ आशिल्लो पाल्या-मुळांच्या वखदांचेर भावार्त आशिल्ल्या लोकांचो. अशा वेळार वायटकारांक ह्या दोतोरागेर धाडपा खातीर तो खुबूच धडपडटालो. तांकां सांगून करून तो दोतोर राजारामा म्हऱ्यांत हाडपाचो प्रयत्न करतालो. आपणाल्या पुतणयाच्या व्हडपणाचो ताका अभिमान दिसतालो. ताची दोतोरकी बरे भशेन चलची आनी ताणें नांवलोकीक मेळोवचो अशेंच ताका मनांतल्यान दिसतालें.

म्हजे आज्जे वेळार घडिल्ली एक भयभीत खबर सांगतात ती अशी: आमच्या घरांत पयलीं सावन पिशें म्हणटात तें माजरां पोसपाचें. जण एकालें, जाणटेलीं सोडलीं जाल्यार, आपणालें अशें माजर जावं बुकलो आसतालो. तो काळ आशिल्लो पाटार बसून जेवपाचो. जमनीर पाट आनी मुखार केळिची शिरती. शिरते म्हऱ्यांत पडिल्ले कांटे खावंक माजर आसतालेंच. रातचीं तीं माजरां न्हिदतालींय जाच्या ताच्या हांतुणांनी. अशें हें सदचेंच जाल्लें आसतना दर एका दिसा कोणालें ना कोणालें माजर जावं बुकलो ना जाता म्हणपाचें नदरेक येवंक लागलें. सगळो वाटार सोदून पळेतात पूण ना जाल्लीं माजरां आनी बुकले मात कशेच मेळनात. अशें हें सदांच घडूंक लागलें. म्हणटां म्हणटां तीन चार दिसांनी कोणें तरी एके वावराडेन खंयचे तरी चौखेर कोण तरी हागून दवरता म्हणपाचें घरच्या बायलांक सांगलें. थापेय आशिल्ले जिस्त मनशांचे जाल्ले वरी. हें आनीक नवेंच कितेंशें म्हण विशय सगळ्याक जालो. त्याच दिसांनी एके सकाळीं आमची आजी कोठये कुडींतल्यान कितें तरी हाडपाक गेल्ली. ती कूड आशिल्लीच पयलीं काळखी. वासरे कुशिंतली. आनी उजवाड भितर येवपाचें त्या मातयेच्या वणटींक कसलेंच साधन नासलें. कुडींतल्या वणटींक मारिल्ल्या फळ्याचेर घरच्या सामानान भरिल्लीं लातां आसतालीं. सदचे संवये प्रमाण त्या काळखांतच तिणें फळ्या वयल्या जाय आशिल्ल्या लाताक हात घालो जाल्यार तिच्या हाताक बुळबुळीतशें कितें लागलें. ती भियेली ना. रोखडीच तिणें पेत्रोलाची चिमणी पेटयली आनी कितें तें पळोवपाक ती परती कुडींत आयली. पळेत जाल्यार तिका व्हडे लांबायेचें एक जिवाण कोंडाळें करून बशिल्लें दिसलें. तोंड ताचें वणटीक आशिल्ल्या बिळाचे दिकेक आशिल्लें. आतां मात तिची

भियेवन गुळी जाली. आनी तिणें ''धारू, यो पुता बेगीन'' म्हण पुताक उलो मारलो. पूत धांवत धांवत आयलो आनी ताणें भितर पळेत जाल्यार सुमार सात आठ फूट लांबायेचें एक जिवाणें फळ्यार पातळ्ळां. तो म्हामडोळ म्हणपाचें ताणें वळखलें आनी ताका फारानूच मारले बगर दुसरो उपाय ना हाची ताणें गांठ बांदली. आर्म घरांतच आशिल्लें आनी खासा तोच कास करपी आशिल्लो.

इतलें हें करता सवरतासर बोवाळ जालोच. त्या बोवाळाक लागून जिवाणें शिटकावलें आनी तें इल्लें इल्लें करून लागींच वणटीक आशिल्ल्या बिळांत वचपाक लागलें. ताचें पोट फुगून मोटें जाल्लें आनी सडसडीत वचपाक ताका जमनासलें. तें एके परीन बऱ्याक पडलें. त्या वेळार घरांतलीं आर्मां भरपाचीं आसतालीं – दारू, मुलशांव बी घालून तयारी करची पडटाली. इतल्यांत आर्म भरून बी पूत आयलो आनी बिळांत वचूंक लागिल्ल्या त्या म्हामडोळाक पयलो फार बसलो. पूण एका फाराक तो आयकता? पूण तो इल्लोसो वचकलो आनी थंयच रावलो. तीच संद सादून, परतें परतें आर्म भरून ताचेर तीन चार फार मारले आनी ताका मरणाधडेक पावयलो. आतां ताका भायर ओडून काडपाक जाय आसलो. घरांत जमिल्ले जायते जाण त्या कामाक लागले. पूण कोणें तरी एकल्यान तांकां तें काम सांबाळून करपाक शिटकायलें. कित्याक तर, म्हामडोळ खंय अश्या वेळार नेटान मुतता आनी ताच्या मुताचो विखार जावन आंग कुसूंक लागता. हें सगळें मतींत धरून तांणी ताका बिळांतल्यान भायर ओडपाक सुरवात केली. भायर काडटासर तांकां नाका जीव जालो. भायर काडून ताका आंगणांत उडयलो आनी मरसर ताका बडय बडय बडयलो. तितले म्हणसर ताचें फुगिल्लें पोट फुटलें आनी तांतुंतल्यान आदले राती ताणें खाल्लें आनीक एक माजर भायर सरलें. दिसान दीस मरतल्या माजरांचो हे तरेन एक फावट सोद लागलो. उपरांत ह्या कामा खातीर जमिल्ल्या मानायां कडेन त्या कळिंवराक दिवन तें बद्द हुंवारान भरिल्ल्या व्हांवत्या व्हाळांत उडोवपाक सांगलें. तांकांय ती एके तरेची मजा जाल्ली. तांणी ताका लोळयत, धोडायत धोडायत व्हरून सांगिल्लो तसो ताचो विलो लायलो. चोवीस वरां जावचींच आसात, मायणांत शेतांतली नडणी काडूंक गेल्ले दोन तीग जाण धांवधांवत आमगेर आयले आनी व्हाळांत सोडिल्लो म्हामडोळ तांच्या शेतांत वयर सरला अशें तांणी सांगलें. आयकून सगळ्यांक अजाप दिसलें. हो आनीक दुसरो म्हामडोळ बी आयला जातलो अशें येवजून आर्म बी घेवन आमचो बापूय मानायां वांगडा शेतांत पावलो. बारीक नदरेन पळेत जाल्यार आमच्या घरांत जाका फारार फार मारून रगतबंबाळ केल्लो आनी धोडाधोडायत व्हरून हुंवारांत उडयल्लो तोच म्हामडोळ व्हाळाधड चडून वयर सरून शेतांत आयिल्लो. हाका मारूंक आतां कितें करपाचें तेंच समजना जालें. निमाणें त्या मानायांनी अशें थारायलें की कुराड हाडून ताचे पयलीं कुडक्यान कुडके करप आनी मोटीं लाकडां हाडून तांच्या भगभगत्या जाळांत हुलपावन ताचो गोबोर करप. आनी अशें जेन्ना केलां तेन्नाच तो म्हामडोळ ना जावंक पावला.

सुमन्त हें नांव म्हाका दवरलें कोणें हें जाणा जावन घेवपाची कांय लोकांक उत्सुकताय आसूं येता. हें नांव सरसकट कोणाकय दवरिल्लें अजून तरी खंय दिसना. फुडें म्हजे वाडटे पिरायेर हांव खूब कितें वाचूंक लागलों तेन्ना सुमंत मुरंजन ह्या एका विद्वानाचें नांव म्हजे नदरेक आयलें. सुमंत मस्तकार नांवाचो एक मराठी माचयेर काम करपी कलाकार आसा हेंय नाटकाचे जायरातींत आयिल्लें वाचलें. इतलेंच कित्याक तर आमच्या गांवांत रावपी खंवट्या घराण्यांत विष्णू खंवट्याल्या पुताक सुमंत हें नांव दवरलां हेंय तो स्कुलाक वता आसतना कळ्ळें. तो भुरगो म्हजे फाटले पिळगेंतलो जाल्ल्यान, म्हज्या नांवाच्या प्रभावान भारिल्ल्या बापायन म्हज्याच नांवाचो आग्रो धरलो जातलो. पूण एक दशरथ राजाची काणी वाचपी जावं आयकु मनीस सोडलो जाल्यार हेरांक त्या काळार तें नांव इतलें अनवळखी आशिल की जिस्त म्हज्या जल्मा घटकेकच ताची याद जावप हें खऱ्यांनीच ए नवल म्हणूंक जाय. आयकल्ले वरसून हें नांव खंय म्हजे निमाणे मावळणी – गिरिजान म्हाका दवरलें.

गिरिजाक सगळीं थापू ह्या नांवान वळखतालीं. नांवाची लेगीत विपश जावपाक एक ल्हानशें कारण जावं निमित्त पुरो जाता. थापो म्हळ्यार पड थंय हालधोल नासतना पडून रावता ती खंयचीय वस्त. आमची ही मावळ भुरगेपणांत काम करपाक इल्ली जड आशिल्ली जावंये. बशिल्ली उठपा आळसाय करताली देखून म्हणूंक लागलीं घरचीं ताका थापू. तेंच ना तिका मागीर दसलें तें मर म्हणसर. खरें नांव तेर्मारिच उरलें. तर ह्या थापूआका लग्न करून दिल्लें दोंगरेर गिरणीकार कामतीगेर. व्यंकटेश सोनबा कामती पूत रंगनाथ हाचे कडेन. ह्या कामतील्या घरा शेजरा आसा राममंदीर. कृ भट बांदकाराली पुण्याय हांगाच फळादीक जाल्ली म्हणटात. ते मुस्तीं ह्या मंदिरांत श्रीरामाचेर प्रवचनां जातालीं – खासा कृष्ण भट बांदकाराल प्रभू रामचंद्राची कथा म्हणटकच थंय ताचो बापूय राजा दशरथ आयलो राजाचो प्रधान म्हण सुमंत ह्या मंत्र्याक म्हत्व आसलेंच पूण भुरगेपणांतल रामाचो, चंद्रा विशिंचो हट मानसशास्त्रीक पद्धतीन भागोवपा खातीर त केल्ली करामत ही बायलां भुरग्यांच्या मनार खुबच परिणाम करताल थापूआकाच्या मनांत हो सुमंत सारकोच भरलो आसूंक जाय. ताणें येवजि हेंच नांव म्हाका दवरुपा सारकें आसा. आनी तशेंच जालें. राजा दशरथा शाणोसुतों प्रधान, नांवा पुरतो काय जायना, फाटल्या शतमानांत घारूब केळेकाराल्या पुताच्या रुपान पिरवोळचे भुंयेर अवतरलो, अशें म्हणूं ये म्हाका सुमंत हें नांव दवरुपा फाटलें गुपीत हें अशे तरेन उकतें जाता.

म्हजें भुरगेपण धादोसकायेन भरिल्लें आसूंक जाय. दुदाचो आसत आवयन म्हाका आपल्या दुदान आकंठ भरला जातलो. त्या दुदानच म्ह बलायकी पोसल्या. तें दूद हांव इतलों पियेलां जातलों की जिविताच्या फुडल काळांत म्हाका गाये-म्हशिचें दुदच नाका जालें. ताचो हांव नखताळोच करू लागलों. आजय म्हाका दूद म्हणटा तें सोंसना. दुदा पासून करतात पनवार – देखीक ताक, धंय, तूप बी हांच्या जाल्यार वासानच हांव पुर विट्टां.

दर एक वरस सोंपतालें आनी वरसान हांव जाणटों जातालों, तशी म्ह मस्तेपणांय वाडत राविल्लीं. पळेता ताचो म्हजे भुरगे वृत्तीक लागून म्हा नाद लागतालो. लागतालो तो नाद फुडें उरतालोच शें ना. तो वताल दुसरो लागतालो, दुसऱ्या फाटल्यान तिसरो, मागीर चवथो हे भशेन बुद्ध थीर जायसर. [खंयच्याय भुरग्याची बुद्द थीर जायसर, ताका थीर गजाली प्राण दिसना.] चार साडेचार वर्साचेरच हांव झाडांचेर चडूंक शिकिल्ल ताचोच नाद लागिल्लो. एक गजाल मात खरी की म्हजें काम हाबशी क आशिल्लें. रंग ना रूप असलें. हडम तडम कारभार! हीं कामां करतन हांव भियेतालों तो मात म्हज्या बापायक. ताच्या धपक्यांक. आवय मारिल्ल्याची मात म्हाका इल्लीय याद ना.

बेताळा देवळा कडच्यान खेळून येतना कोणें एके जाण्टेलेन म्हाक 'समंदबाब' म्हण उलो मारलो. तो आयकून च्याये मांडार आशिल्ली ती भावीण हांसली आनी तिणें म्हळें, ''खरोच समंद गे बाये!'' म्हाका ति कितें म्हळें तें तेन्ना समजलेंच ना, आनी हांव चलत रावलों. पूण त्या उतरा अर्थ म्हाका कळपाक लागलो तेन्ना मात समाजांतल्या बऱ्यावायट प्रवृत्ति म्हाका प्रबोधन जावंक सुरवात जाल्ली.

[चलता

# एकस्तरीय देवनागरी लिपयेच्या निमित्तान

**डॉ. सु. म. तडकोडकर**

...ग दिवाळी' २०००च्या आंकांत **लिपी – ...द** हो लेख वाचलो. बरें दिसलें. आमची ...ळगी भास आनी तिचे निर्मणे संबंदान ...शिल्या मुळाव्या विचारां कडेन वळूंक लागल्या ...संक्षण. असल्या वावरा कडेन फट्ट करून ...ळना. देखून बाब पंढरीनाथ सुरसुरे हांचो ... वाचतकच फुडारांतय हो वाटार असल्या ...त्यांच्या हातांत सुखरूप आसा ...चीय गवाय मेळ्ळी.

...वप्यान ह्या लेखाची मांडावळ मुखेलपणान ...हीक नियाळ घेवपाचे नदरेंतल्यान केल्या. ...खा निमतान हांव आनीक कांय संदर्भ ...सोदतां. ज्या अभ्यासकाक ह्या विशयांत ... खोलायेंत वचन दिसता ताका ह्या संदर्भांचो ...ळूं येता. हे सगळे संदर्भ बाब सुरसुरेन ...ले एकस्तरीय देवनागरी लिपये संबंदान ...नां.

... सुरसुरे बरयतात: ''प्रत्येक भारतीय ... वेगळी वेगळी लिपी आशिल्ल्यान दर एक ... नवी लिपी हाताळटना नव्या प्रोग्रामांत ...पडटा. ही अडचण कडेक काडूंक भौ. ...स. जोशी हांणी 'एकस्तरीय देवनागरी ...ची नवी कल्पना मांडल्या... वेली तजवीज ...री लिपयेचे समर्थक मानून घेत व्हय?'' ...णकीय मुद्रण करपाची मोख दवरून ...त अशे तरेचें अक्षरसंयोजन करपाचे पयले ...९७२ आनी १९८१चे आशीकुशीक जाल्ले ...ची कुरू मेळटा. भौ. र.कृ. जोशी हांणी **...था** ह्या मराठींतल्या विद्वज्जनमान्य ...याच्या दिवाळी आंकाचें मुखपृष्ठ अशा ...ल्यान सजयिल्लेंय बी. हे विशीं जोशीबाब ...म्हणटात तें पळोवया: ''ह्या आंकाच्या ...ावेल्यो गणकयंत्राक्षकर आकृत्यो 'टाटा ...ट्यूट ऑफ फंडामॅन्टल रिसर्च' ...ल्ल्या 'नॅशनल सेंटर फॉर सॉफ्टवेअर ...पमेंट ऑफ कंप्युटिंग टॅकनिक्स' ह्या ...ाचे प्रो. आर. नरसिंहन हांच्या मार्गदर्शना ... 'डी.ई.सी.-१०' हे गणकयंत्र पद्धतीन ...ल्यात. ते खातीर ह्याच विभागांतले भौ. ... घोष आनी वाय. ए. बाशा हांणी विकसीत ... 'पॅलेटिनो' हें सॉफ्टवेअर पॅकेज घेतलें. ...टिनो हे सोळाव्या शतमानांतल्या इटली ...ले एक नामनेचे अक्षरविशारद.) ह्या ...ाचे निर्मणेंत हेतुपुरस्सर अक्षराविष्कारा

(क), (का), (कि), (की), (कु), (कू), (के), (कै), (को), (कौ), (कं), (कः)

## ब्राह्मी-भारती वर्णमाला

| स्वर: देवनागरी | व्यंजन: देवनागरी | व्यंजन: देवनागरी | व्यंजन: देवनागरी |
|---|---|---|---|
| अ | क | ण | व |
| आ | ख | त | श |
| इ | ग | थ | ष |
| ई | घ | द | स |
| उ | ङ | ध | ह |
| ऊ | च | न | ळ |
| ऋ | छ | प | क्ष |
| ए | ज | फ | ज्ञ |
| ए | झ | ब | : (विसर्ग) |
| ऐ | ञ | भ | ं (अनुस्वार) |
| ओ | ट | म | ऽ (अवग्रह) |
| ओ | ठ | य | |
| औ | ड | र | |
| | ढ | ल | |

— अण्णवे

असमिया
उर्दू
उडिया
कन्नड
कास्मिरी
गुजराथी
तमीळ
तेलुगू
पंजाबी
बंगाली
मराठी
मल्याळी
संस्कृत
सिंधी
हिंदी
इंग्लिश

खातीर गणकयंत्रतंत्राच्या प्रयोजनाच्यो नव्यो नव्यो शक्यतायो दिसूंक लागल्यात. तेच प्रमाण, अक्षरप्रवासांतल्या सुलेखनविद्या (कॅलिग्राफी), मुद्राक्षरविद्या (टायपोग्राफी) आनी गणकयंत्राक्षरविद्या (कम्प्युलेटरोग्राफी) ह्या तिनूय टप्प्यांची हांगासर नोंद जाता.[४]''

ह्याच जोशीबाबान १९७२तल्या 'सत्यकथे'च्या दिवाळी आंकाचें मुखपृष्ठ घडयल्लें. त्यां निमित्तान 'सत्यकथे'चे कार्यकारी संपादक म्हणटात: ''भायल्या पानांवेल्या चित्रां भितरल्या मुखपृष्ठा वेर्ली 'सत्यकथा दिवाळी ७२' हीं अक्षरां माणकुल्या प्रकाशनलिकांचे रचनेंतल्यान प्रकाशीत जाल्लीं दिसतलीं. साप्प प्राथमीक अशा इलॅक्ट्रॉनिक संकेतपद्दतींत कार्यक्रमित (प्रोग्रॅम्ड) केल्ले भशेन तीं चितारल्यांत. गणकयंत्रां, चित्रवाणी आदिंच्या संदर्भांत देवनागरी लिपीक मेळूंक पळोवपी नवें वळण, तातुंतल्यान सुचीत जावंये.[४]''

एकस्तरीय देवनागरी लिपी घडोवपाच्या येत्ना फाटल्यान गुपीत राजकारण बी ना मू? कांय जाणांनी तर हिन्दी भास रोमी लिपयेंतल्यान बरोवपाचो हट्ट बाळगिल्लो. भौ. मधुकर ना. गोगटे हांणी तर रोमनागरी आपणावपाचें आंदोलनय चलयिल्लें. तेंय एक राजकारणच – भारतीय मनाची अस्मिताय ना नपश्चात करून उडोवपाचें. ब्राह्मी लिपी चालंत आशिल्ली तेन्ना खरोष्ठी लिपीय चालंत करपाचो हट्ट चलतालो. ह्या संबंदान लक्ष्मीनारायण दुबे म्हणटात: ''येवरोपा भाशेन प्राचीन भारतांतय 'समान लिपी'चे प्रचुर दृष्टान्त मेळटात. खरोष्ठी आनी ब्राह्मी पुरातन भारताच्यो दोन मुखेल प्रचलित लिपयो आशिल्ल्यो. अशोकाचे कितलेशेच शिलालेख खरोष्ठींत मेळटात. तिचो प्रयोग ईशान्य भारतांत करताले. सामी-वर्गांतले लिपये भशेनच हेय लिपयेंत उजवे वटेन सावन दावे वटेन बरोवपाची पद्धत आशिल्ली. खरोष्ठी एक तर आमच्या देशाची नाशिल्ली आनी ध्वनिपूर्णय नाशिल्ली... ती विदेशी लिपी आशिल्ली.[५]''

खरोष्ठी लिपी विदेशी लिपी कशी काय? भो. ल.श्री. वाकणकर म्हणटात, ''खरोष्ठी 'झरथ्रुष्टी' उतराचो अपभ्रंश. सम्राट अशोकाची राजधानी मगध (राजगृह) आशिल्ली तरी ते चडसो काळ तक्षशीलेंत वावुरताले; देखून तांच्या व्यवस्थापकाची स्वाक्षरी तेन्नाच्या अफगाणिस्तानांत घोळटिकेंत आशिल्ले झरथ्रुष्टी लिपयेंत केल्ली मेळटा.[६]''

'जागां'तल्या ह्या लेखांत आकृतायेचो विचार जाल्लो आसाच. वांगडाच सकयल दिल्ल्या दोन आकृतायांचोय विचार करूंक सुवात आसा. ब्राह्मी लिपयेचो मुद्रणा खातीर तशेंच संगणकीय येवजणे खातीर उपेग जावं येता, म्हणपाचें स्पश्ट जाता.

हो लिपी विशिंचो द्राविडी प्राणायाम चल्ला तो निमाणें आमकां खंय पावयतलो काय? चडांत चड चालीक लावपा खातीर लिपयेकं आमी निखटें एक माध्यम कशें लेखूंक जाय. तेच प्रमाण विचारशक्तीक चडांत चड वेग येवचो देखून तिचे मजतीक चडांत चड शब्दसंपत उपलब्ध करून दिवची अशी एक एक मोख दवरीत जाल्यार घड्याळिचे कांटे फाटीं फुडें करपांतच चड विचारशक्त काबार करचे परस दर एके भाशेची अस्मिताय मर्तीत घेवन, तिचो यथायोग्य मान राखचो. हो मान राखपाचे जायते मार्ग आसात. देखीक, आपणाले भाशेंत हेर भासांतल्या बरपांचो चडाव शास्त्रीय नदरेकोणांतल्यान अणकार करून तो उजवाडा हाडचो. चड उतरावळ हाडची. कोंकणी भाशेक तर ही लिपीशुद्धिची चैन परवडपा सारकी ना. आयज कोंकणी भौसाक एकठांय दवरुपा शब्द-संपदेच्या साधारणीकरणाची गरज आसा. हांगा लिपयेचो निखटो शिक्षणीक (academic) पांवड्याचेरच पुरो, अशें मानचें.

देवनागरी लिपयेंतली शिरोरेखा काडून उडोवपाचो यत्न आयज परंत हाचे पयलीं गौरीशंकर हीराचंद ओझा हांणी जितलीं लिपिपत्रां आसात तीं पळेत जाल्यार एक गजाल पुराय स्पस्ट जाता ती पांचव्या शतमाना मेरेन देवनागरी अक्षरांचेर शिरोरेखा दिवपाची चालंत नाशिल्ली. तशा अर्थाची आनीक एक टिप्पणीय वाचूंक मेळ

इंग्लीश बरपांत व्यंजना मुखार स्वर मांडपाची सोय आसा तशी म मराठींतूय करची अशें गोंयकार विद्वान रामचन्द्र भिकाजी गुंजीका १८७४ वर्सा सुचयिल्लें. १९०४ वर्सा लिपयेंत बदल करिनासतना क अक्षरां काने नाशिल्ल्या रुपांत आनी संयुक्त मात्रा रुपांत टंक करपाची कल्पना मर्तींत धरून गीतारहस्यकार बाळ गंगाधर टि निर्णयसागराच्या राणोजी रावजी आरूंकडसून प्रयोगय सिद्ध १९१४च्या अदमासाक रेव्हरंड जोशुआ नोवान्नांस हांणी देवनागरी हेर प्रांतीय लिपयांची अक्षरयेवजण असंख्य आशिल्ल्यान साबार शिकप्यांनी रोमी लिपयेंत ज्या भारतीय उच्चारांची सोय ना अ नवे वर्ण सुचोवचे आनी रोमी लिपयेचोच वापर करचो म्हणपाची केल्ली. तेन्नाच्यान देवनागरींतल्यान चडावतपणान सुधारणा करपाच वाडूंक लागलो.

**संदर्भ सूची:**


१. सुरसुरे, पंढरीनाथ, 'लिपी – एक सोद', जाग दिवाळी २०० पानां: २४-३२.
२. तत्रैव, पानां: ३१-३२.
३. जोशी, र.कृ. 'सत्यकथा' दिवाळी १९८१चें मुखपृष्ठ. सत्यक मुंबई १९८१, पान १८.
४. संपादकीय, 'सत्यकथा', मुंबई, १९७२, पान ४.
५. दुबे, लक्ष्मीनारायण, '' 'लिपि' की भाषा: समान लिपि की खोज'', भाषा (त्रैमासिक), नयी दिल्ली, सितंबर १९७८.
६. वाकणकर, 'लिपिकार' ले. श्री., देवनागरी लिपी: उद्गम, व संभावना, पुणे १९८६, पान ४५.
७. ओझा, गौरीशंकर हीराचंद, भारतीय प्राचीन लिपिमाला, राज संग्रहालय, अजमेर, १९१८, पान ६२.
८. ब्रजमोहन, ''शिरोरेखा का प्रश्न'', भाषा (त्रैमासिक), नयी सितंबर १९६८, पान २०६.
९. वाकणकर, उ. नि., पान ५६.
१०. तत्रैव, पान ५६.


◇ प्रसन्न रावशीत, भोंवतणच्या सगळ्यांक तूं प्रसन्न दवरतलो. मागीर ते केदेय खंतींत बुडिल्ले आसूं.

◇ आत्मसंतुश्ट केन्ना मुखार सरूंक पावला व्हय?

◇ मनशाचें व्हडपण तो घरच्या मनशां कडेन कसो चलता तें पळोवन आंखूंक जाय.

# र-सुवादीक कॉलम

**बोरकार**

नातलां पयलीं आमचे सगळे दिवाळी आंक आयले.
म्हळ्यार मराठी बी, केन्नाय आयल्यार जाता.
कणी नातलांक आयले जाल्यार टिकेक संद.
, कोंकणी म्हणटात ती किरिस्तांवांची.
जाल्यार ते आंक दिवाळेक काडपाचे नाशिल्ले ?
हिन्दूंची देखून पळयात, सगळे मराठी आंक दिवाळेक येतात.
क वो बकच्छायेक लागून कोंकणीवादी धडपडटात
पयलीं दिवाळी आंक काडून विरोधकांचीं तोंडां शिंवतात.
भाशा मंडळाचो आयला तो हांवें अजून पळोवंक ना.
आयला अशें पूर्णानंद आनी भाई म्हाका म्हणटाले.
टात तेन्ना खऱ्यांनीच तो बरो आसतलो हातूंत दुबाव ना.
हाताक तो लागलोना तेन्ना प्रती हातोहात गेल्यात आसतल्यो अशें
ता.
केन्नाय तरी खंयचेय एके लायब्ररींत.
आंतोनबाब मोरायसागेर केन्नाय पावल्यार वाचूं येता.
री भिकू बोमी नायकाचो 'जैत' म्हजे गाडयेंत सोडिल्लो.
युवा संमेलनांत वतना गाडयेंत सैलबाब बशिल्लो.
ताच्या हातांतल्यान सुळसुळून पडला जावंये.
तरी कवर म्हूण हांवें तो काडून भायर उडयलो.
पडना बराबर वाऱ्यान तो उसवलो आनी जायराती दिसल्यो.
घेवन उगडलो जाल्यार भितर लेखूय आसात.
नां जायराती पांच पानां साहित्य म्हळ्यार वायटशें न्हय.
उखलून आंक आशिल्लो तसो फाटल्या सिटार दवरलो.
तेंय आसूं, नातलां पयलीं दिवाळी आंक येवप हें कोंकणीचें जैत.
सबाबूय आपूण दिवाळी आंक काडटलों म्हणटालो.
आंकाच्यो प्रती खपयतां खपयतां तो म्हाका मेळ्ळो.
आंकाची खबर घेवंची अशें दिसुनूय हांवें तें टाळ्ळें.
नीच ताणें तो काडिल्लो आसलो आनी ताचे कडेन ताची प्रत आसल्यार !
घेवन, म्हजो ताका दिवन गरजेभायर लुकसाण.
बी आंकाचो हुसको हांव करिना.
लां खातीर ओंपिल्लें बायलांचें प्रकरण.
क घालप म्हळ्यार आंगार अपसरण ओडून घेवप.
गीत कोंकणीच्या मोगाक लागून उत्सुकताय आसता.
हजें कोंकणी प्रेम अजून कोणाक सारकें समजूंक ना.
क दिसता, हांवें मन उकतें करप म्हळ्यार बकच्छायो करप.
सोडात, म्हाका समजून घेवपी कोंकणी समाजांत लेगीत कोण नासप ?
लागून हांव एकएकदां भितरले भितर खंती जातां.
नायक म्हणटालें तेच खातीर म्हजे केंस पिकल्यात म्हूण !
गपाची गजाल, दिवाळी आंक नातलां पयलीं आयले.
म्हज्या हातांत तीन आंक आसात.
लो एक, म्हजो 'बुरसो' बिम्ब.
जागाचो आनी तिसरो दिवाळी आंक न्हय.
ठी आंका वांगडांच आयिल्लो नव्हेंबराचो जाग आंक.
बिम्ब हांवेंच वाचून म्हळ्यार प्रुफां तपासून पाठ केला.
वाचपासारके आसात ते हेर दोन आंक.

ह्या आंकांत हांवें सगळ्यांत पयलीं लेख वाचले ते म्हजे.
ते उपरांत हांव सदांच रवीन्द्रबाबाचे लेख वाचतां.
ताचें कारण, रवीन्द्रबाब सदांच आपल्याले लेख पयलीं वाचता
मागीर तो म्हजे वाचता अशें तोच म्हाका सांगता.
रवीन्द्रबाब तशें करता जाल्यार ताची गादी कोणेंय चलोवं नाका ?
ताचे लेख वाचून जाले म्हणटकच हांव हेरांचे चाळटां.
भास समजली जाल्यार एक वेळ बारकायेन वाचतां.
जाग दिवाळी आंकांतलो अना म्हांबऱ्यालो लेख वाचलो.
ताणें तो रवीन्द्रबाबाचेर बरयला.
रवीन्द्रबाबाचेर कितलेशे जाण बरयतात.
गोमंतकांतले मराठीवादी बरयतात, मावजो बरयता, अना बरयता.
म्हाका तें सगळें वाचचें पडटा. कारण, हांव रवीन्द्रबाबाचेर बरयतां.
'श्रेयार्थी' पुस्तकाक बरें श्रेय मेळटलें जाल्यार तशें करूंक जाय.
तेच पासत हांवें 'पांथस्थ – कांय प्रस्न' हो लेख वाचलो.
लेख वाचलो आनी हांव सामको अंतरमूख जावन गेलों.
अनाक पांथस्थ वाचून कांय प्रस्न पडले हें बरोबर.
म्हाकाय तें वाचून खूब प्रस्न पडिल्ले.
पूण त्या प्रस्नांक हांव खंय आनी कशी वाचा फोडटलों ?
वाचा फोडिना जाल्यार हांव घुस्मट्टलों आनी आनीक प्रस्न निर्माण जातले.
अनाचे प्रस्न वाचून तर म्हाका भलतेच प्रस्न आयले.
सध्या हें युगुच प्रस्न निर्माण करपाचें आनी जापो दिवपाचें.
म्हाका कसल्याच प्रस्नांच्यो जापो कळनात म्हूण हांव टिवी पळयना.
टिवी पळेतकच म्हाका हांवूच अज्ञानी दिसूंक लागतां.
जे कोण जापो दितात तांकां भरपूर दुडू आनी भेटी मेळटात.
'कौन बनेगा करोडपती' पळोवन तर हांव पिसो जावंक पावलों.
तेन्ना म्हाका दिसलें, असलें कितेंय आतां कोंकणींत येवंक जाय.
म्हजे सारकेल्याचें वाचन कोंकणी पुरतेंच मर्यादीत.
प्रस्नांच्यो जापो दिवन कितेंय सुट्टलें आनी वाचनूय जातलें.
गोंयकारांमदीं कोंकणी वाचनाची गोडी लागतली.
म्हजी ही इत्सा पुराय केली ती अनान, पूण अर्दकुटीच.
वाचप्यांक ताणें प्रस्न दिले, पूण जापो दितल्यांक कितें ?
जापो दितल्यांक कांय न्हय जाल्यार जुवारकाराचीं पुस्तकां तरी भेटोवपाचीं.
भुरगीं आसलीं जाल्यार मायाची 'कोलेदादाची पालखी' तरी.
पूण अना ह्या जुगारी युगांत फकत प्रस्नूच विचारता.
ताच्यो जापो कोंकणीवाद्यांनी दिवंच्यो अशी अपेक्षा करता.
अपेक्षा नाशिल्ली जाल्यार ताणें प्रस्न विचारपूच कित्याक ?
बरें, आमचे सारकेल्यांनी तोंड धांपलें जाल्यार आमी अज्ञानी जालेना ?
बाकिचे कोंकणीवादी अनाक किंकोंत करीतय बी.
पूण म्हजे सारकेल्यान तांचे कडेन दुर्लक्ष करप समा न्हय.
ताणें निर्माण केल्ल्या प्रस्नांक जापो दिवप म्हजें कर्तव्य.
ह्योच जापो दिवपाचें काम हांगा करतां.
केळेकारांचो आदलो धंदो केळीं विकपाचो देखून ते केळेकार
ते आंबे विकताले जाल्यार तांकां कोण आंबेकार म्हणचोना.
हांवें केन्नाच बोरां विकलिंनात वा बोरयेय हांव रावलोंना.
तरी लेगीत हांव बोरकार.
हांवें पणस विकिल्ले जाल्यार हांव पणसांकार जावंचो नासलों.
चडांत चड कोणेंय भिकणांकार म्हणूं येतालें.
तशे आमचे खुबशे म्हालगडे पसरो चलयतात.
तांकां कोण पसरकार म्हूण पाचारनात. अना लेगीत.
पूण घसरतात केळ्या साल सोडून बाबड्या केळेकाराचेर.

खावन पिवन सुखी भाटकारांच्या भुरग्यांक कसले छंद?
होय एक आमसाण तिखसाण लावन जाप दिवपाचो प्रस्न.
भाटकारांच्या भुरग्यांक कसले छंद लागतात तें हांव नकळों.
कित्याक, हांव भाटकार. पूण भाटां मुंडकारांनी खालीं.
तशी वेऱ्यां एक भाटकार फामील म्हजे वळखिची आसा.
तांचो एक एक छंद पळेत जाल्यार म्हाका भाटां गेल्ल्याचें दुख्ख जायना.
तरी पूण म्हज्या वळखिच्या भाटकारांचे छंद म्हळ्यार कोंकणी.
गोंयचे खूबशे भाटकार कोंकणीचे चळवळींत आसात.
तांच्या भुरग्यांक मात तो छंद लागिल्लो दिसना.
वेल्यान ते कोंकणीवाद्यां कडेन तुच्छ नदरेन पळेतात.
र.वि.पंडितान भाटां विकून पुस्तकां छापलीं हें ताचें कारण आसूं येता.
रवीन्द्रबाबाक बापायन चंद्रकान्त नांव दवरिल्लें.
आज्यान तें बदलून रवीन्द्र नांव दवरलें.
लिंगुबाब दळवी हांकां गोंयचो फुडार पारखुपाची नदर आशिल्ली.
जर तें चंद्रकान्त दवरिल्लें जाल्यार गोंयचो इतिहास बदलपाचो.
सुंद-उपसुंद हांची गोंयांत पुनरावृत्ती जावपाची.
कोंकणीवादी दोन गट करून तांकां प्रोत्साहन दिवपाचे.
सुरेशबाब आमोणकार सुंद-उपसुंदाचेर आख्यान बरोवपाचे.
शिकीत कार्दोज गरगर करून मळबाक कसो तेंकलो हो एक प्रस्न.
मनीस जावं भोंवरो गरगरता तेन्ना घुंवता आनी पडटा.
तो असो गरगर करून मळबाक तेंकप शक्यच ना.
तेनेन्तिच्या थापटा वांगडा तो गरगर करून पडला आसतलो.
मरतकच मनीस वयर वता ही कल्पना पुरातन काळाची.
संत तुकाराम सदेह वैकुंठांत गेलो बी म्हणटात तशें.
रवीन्द्रबाबान साहित्यीक दर्जो वापरला तो अनाक कळूंक ना.
ताणें पळयल्यात ते गरगरीत पोटां वाडिल्ले कोंकणीवादी.
कोंकणीच्या नांवान तांणी मळबाक हात लायला हें खरें!
रवीन्द्रबाब गोंयां परततात तेन्ना गोंयचें वर्णन अना सांगता.
रवीन्द्रबाबान तें खंय पळयल्लें तो अना वांगडा म्हाकाय प्रस्न पडला.
तांबडीगुंज माती मात जायत्या लोकांनी पणजे पळयल्या.
बाकिचें वर्णन चड करून देऊळवाड्या वयलें आसूं येता.
गोंयांत पयलीं पसून खुबशीं युगां चलत आयल्यांत.
तातुंतलीं मुखेल म्हळ्यार सत्ययुग, असत्ययुग
सादें युग, विचित्र युग आनी तिरसुवादीक युग.
रवीन्द्रबाब गोंयांत पावले तेन्ना थंय सत्ययुग चलतालें.
तेन्नाच मडगांवां असत्ययुग सुरू जावन वाडीक लागिल्लें.
पणजे तिरसुवादीक युगाचो प्रचार सुरू जाल्लो.
गोंयच्या कांय वाटारांनी सादें युग चलतालें.
ह्याच वेळार जंय विचित्र युग चलतालें थंय कोंकणीवादी जल्मले.
रवीन्द्रबाब गोंयां पावले तेन्ना गोंयांत म्हारगाय नाशिल्ली.
बांगडे आण्याक बारा आनी रुपयाक शंबर मानकुराद मेळटाले.
रवीन्द्रबाब मुळांत चड वसवसो म्हळ्यार खावपी दिसना.
म्हारगाय वाडली ती कोंकणीवाद्यांचो आंकडो वाडटकच.
आनी साळगांवकार, तिंबलो बी कोंकणीवादी जातकच.
फोंडेचें युग रवीन्द्रबाबाक भांगराचें दिसलें हें खरें.
तें रुप्याचें आनी पितळेचें जावंकच शकना.
आमच्या गोंयांत मिना खणी आसात त्यो हांच्यो दोनांच्योच न्हय.
पूण त्या काळार सुटके झुजारी धाडी घालताले ते फोंड्यांच.
ते खातीर पांथस्थ बारकायेन वाचप गरजेचें.
'कोंकणी भाशेचें जैत' पुस्तक पळोवन 'हे राम' उतरां येवं येता.
तीं कित्याक आयलीं हें फकत मराठीवादी सांगूंक शकतात.
गांधी सिनेमांत हीं उतरां मात कोणेंच म्हणूंक नात.
गांधीजीक गुळी लागता तेन्ना ताणें म्हणिल्लें तें 'हराम'.
भौतेक रवीन्द्रबाबान पुस्तक वाचून तशें म्हळां आसतलें.
'दत्ताराम आनी ताची तकली' हाचेर निबंध बरोवप शक्य ना.
हांगा संपादिकेन पानांची मर्यादा म्हजेर घाल्या.
पूण ताचेर एक प्रबंध बरोवन हांवें ओलिव्हीन्यबाबाक दिला.
जयंती नायकाचो प्रस्न सुट्टकच ताचेर विचार जातलो खंय.
आतां निमाण्या कांय प्रस्नांच्यो जापो अशो.
प्राणवान म्हळ्यार प्रकाश थळी.
हिमालय मोखून मारप म्हळ्यार अशोक भोंसलो करता तें.
म्हजे कडेन कोणेंय हिमालय दिलो जाल्यार हांव तो प्रियोळा मोखून मारत
२५वे खेपेच्या रडपाचें प्रात्यक्षीक करून दाखोवपाची गरज ना.
तो अणभव घेवपाक कांय जाणांचीं तोंडांच पळोवचीं.
करंट आनी हेडक्वार्टर हांकां लिंगां नात.
तीं फादर फ्रेडी पीट हाणें आपले वांगडा व्हेल्यांत.
रवीन्द्रबाबान एके कडेन वर्णन केलां तें हातुंतल्या कोणाकूच लागना.
जायच जाल्यार विसू लवंद्याक तें लावं येतलें.
पूण तें खरें वर्णन आजेंत मोन्तेरोचें.
रवीन्द्रबाबांल्या अंतरमनाचें क्षेत्रफळ लांबाय-रुंदायेन सांगप शक्य ना.
ते सारस्वत संमेलनाक वचत सावन समता आंदोलन तें मेजीत आसा.
तें हांवें सांगलें जाल्यार तांचें म्हजेर रागणें पडटलें.
म्हाका 'जातीयवादी' म्हणून घेवपाचें ना.
वाल्याचो वाल्मीकी जालो हें नाटक हे आदींच बरोवप सुरू जालां.
रमाकांत खलपान ताचो देड आंक बरयला.
तातूंत खासा रवीन्द्रबाब काम करतात.
म्हळ्यार, तशी खलपांची इत्सा आसा.
हांगा हावें अनाचो मान राखूंक जापो दिल्यात.
बरोबर काय चूक तें तांणी थारावचें.
शेवटीं पेपर सॅट करपीय तोच आनी तपासपीय तोच.
हांव कोण? ताणेंच थारावचें.

* *

---

☐ सगळ्यांक खोशी दवरूंक सोदशीत, कोणाक खोशी दवरूंक पावचो ना.

☐ दुसऱ्याक पांयांक धरून सकल ओडप सोंपें. पुणून ताचें मोल तुका आकांताचें दिवचें पडटलें, हें विसरूं नाका.

## ...वमनीस

**...पाडगांवकार**

...न्ना देव मनीस रस्त्यारच भेट्टात
...करिल्लों देवळांत अचकीत विसरायतात

...त्वीक देवमनीस गिरेस्तकायेची खण
...कायेन मन भारून विरगळायतात हांवपण

...य माये पाझर, सतत अमृताचो शिंवर
...जसो रुखा सांवळेक उतरांक थिकां सर

...तांचें अर्क हेच मुखार साक्षात
...णीण भौमोलाची विराट ब्रह्मांडांत.

## ...मली

**...नाथ शांबा लोलयेकार**

...क कसलो ?
...यो
...क सुटला वास
...चो

...ी चिड्डल्या

...वेता जागाच्या दिवाळी आंकांत उजवाडा आयिल्ली.
...त एक चूक उरिल्ली देखून ती आमी हांगा परती
...डायतात.

— वावुरपी संपादपी

## यादिंचो पावस

**भालचंद्र गांवकार**

यादी... यादी...
यादिंचो असोच उटंगारांचो पावस
तुज्याय मळ्यांत रकपाचो!
म्हजे भशेन... तुजोय मळो
खीणभर...
तरतरून येवपाचो...!
मागीर
टिटाबळिची आर्त किळांच
सुरांनी भिजपाची
मरणाचो सांपळो जाल्ली
नदरेंतली नदर पालशी
चंवरून लजपाची.
यादिंचो
असोच उटंगारांचो पावस
तुज्याय मळ्यांत रकपाचो
हुंवार जावपाचो!
हुंवराक हुंवार मेळपाचो
न्हंयेक दर्यो गिळपाचो
मरणा धडेर जीव पिसो
खीणभर धादोसपाचो!
यादिंचो उटंगारांचो पावस
तुज्याय मळ्यांत रकपाचो!
रकपाचो...!

## प्रसन्ना एक्स्प्रेस मडगांव

**राजश्री म. सैल**

मोनी निर्विकार
रात
मळार झाडांचीं भुतां
खंय धांवतात हीं तंबाखुचीं शेतां
प्रसन्ना एक्स्प्रेस धांवता
घाटा घाटाची वाट
वळणा वळणाचो काठ

चक्रव्यूह माथ्यार
खंयच्या जल्माच्या
पातकाचें हें भरिल्लें माप
हीं काळीं
झाडाचीं भुतां
काय भुतांचीं शेतां
प्रसन्ना एक्स्प्रेस धांवता

कोणाच्या मळबांत
नखेत्राची रात
कोणाच्या काळजांत
इंगळ्याची वाट
हे काळे इशाड्डे राती
पयसुल्ल्या पैलतिरा
मात
एकादशी वात

# "था थैया!"

सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

आमच्या गांवांत रामनमीक
रातचो देवळा कडेन विरभद्र जाता.
विरभद्राचें सवंग करता
पारपती वाड्यावेलो रघू.

रामनमी दिसा
रघूचेर बोवाळ.
रघूल्या घरच्यांचेर बोवाळ.
रघूक त्या दिसा सवळें.
जेवण शिवराक.
सोऱ्याक आफुडपाचें लेगीत ना.

रामनमी रातीं हेवटेन देवळांतल्यान
देवतेची पालखी भायर सरता,
आनी तेवटेन देवळा फाटल्यान
रघूलें विरभद्राचें सवंग रंगयता
गांवचोच रमाकांत पेंटर!

रघूल्या माथ्यार झगझगीत मुकूट.
रघूल्या आंगार झगझगीत कपडे.
रघूले फाटीक घुडयांचें आर्क.
रघूल्या दोनय हातांत तलवारी!

रघू तोंडा मुखार हारसो घेवन
आपलें मुखामळ तोखेता.
आपले झगझगीत कपडे तोखेता.
नकली मिशयांक पीळ घालता.
नकली खाडाचेर हात भोंवडायता.

लोक आपले मुखार
गर्दी करतात,
आपल्याक तोखेतात,
तें पळोवन मनांतल्या मनांत,
रघू सामको खोशी जाता.

पालखी देवळांत भितर सरता
आनी उपरांत देवळा फाटल्यान
विरभद्राची म्हळ्यार रघूची
आरत दाखोवन भट पुजा करता.

हरशीं देवळांत किर्तन जातकीर
प्रसाद वांटच्या वेळार,
सगळ्यांत निमणो प्रसाद,
रघूल्या हातार उडोवपी शंकूभट,
आपली आरत दाखोवन पुजा करता
तें पळोवन रघूलें नाशिल्लें हड्डें फुडें येता.

ठोऽऽ करून गर्नाल फुट्टा,
विरभद्रा मुखार नारंगां पेट्टात,
फोगेट्यो जातात आनी
हर हर म्हादेव! म्हणीत शंकूभट
लोकां सांगाताक 'म्हादेव' घालता.

रघूल्या हातांत तलवारी बदला
पेट्ट्यो चुडी दितात.
फोगेट्यांच्या गडगडांत
था थैया! तक थैयाच्या तालार
वाजंत्र्याच्या वाजपाच्या सुरार
वाटेवेलो पेटिल्लो करडाचो उजो चुकयत चुकयत
आडवीं-तिडवीं पावलां उडयत
रघू झेतान फुडें वता.

रघूलें विरभद्राचें सवंग पळोवंक
देवळाच्या प्राकारांत हीऽ गर्दी.
माटव लोकांनी गच्च भरिल्लो.
केन्नाच आपलें बार्र बंद दवर नाशिल्लो
दामू बार्रकार लेगीत
आपल्या नव्या जांवयाक आनी नव्या सोयऱ्यांक घेवन
'सहकुटुंब सहपरिवार' हजर!

रघूलो विरभद्र सामको भयानक दिसता.
ताचो तो राजा सारको भेस,
तांबडे गुंज दोळे, हातांत पेटिल्ल्यो चुडी,
ल्हान भुरग्यांची तर भियेवनच गुळी जाता.
जाण्टेल्यांच्या लेगीत हड्ड्यांत धडधडटा.

विरपद येयलो! विरपद येयलो!
माटवांत एकच बोवाळ जाता.
आनी था थैया! तंक थैयाच्या तालार

ूलोविरभद्र माटवांत एन्ट्री मारता.
रंगाक फेरे घालपाक वाट दिवंक
गलेलोक कुशीन सरतात.

हो रघू न्हय गो?''
रगा कडेन बोट दाखयत
ायू गुण्याक म्हणटा.
साको राजा कसो दिसता न्हू गो?'' सगुणें.
कातारी देव समजून
ूर्क विरभद्राक पांया पडटा.
िंदा! ओंदू तरी शालीचें जाल्यार पुरो!''
ाली विरभद्रा कडेन आंगवण करता,
ाप वाडिल्ले चलयेच्या लग्ना खातीर!

ूत विरभद्र माटवांत
े रूंक लागता.
ींदीं विरभद्रा फाटल्यान
ल्ले लोक
रगाक ओणव घालूंक लायतात.
द्रा भले! विरभद्र भूता भले! म्हणीत
होरायतात.

ात सात-आठ फेरे काडटकीर
े विरभद्र सामको ज्याम जाता
तल्यान भायर आयिल्ल्या नुस्त्या भशेन
ूडफडूंक लागता
सांगातान आयिल्ले लोक
ू उखलून देवळांत व्हरतात.

ांत रघूल्या तोंडार उदक मारतात
वारो घालतात.
ुट ताका देवालें तीर्थ पियेवंक दिता.
ी रघूलें विरभद्राचें सवंग सोडयतात.
ा वेळान रघू साबुद्दीर येता.
रतो रघू जाता.

ान माटवांत नाटक कॉमेस जाता.
तल्लीन जावन नाटक पळोवंक लागतात.
ंद्र आनी विरभद्राचें सवंग करपी रघूक
ेच विसरून वतात.

क पळोवंक रावनासतना
द्द घरा येता.
ी ताणून दिता.
ा! दुसऱ्या दिसा सांजचो स वरांचेर
त वचपाच्या सदच्या वेळार!

चे रातिची कांसेद निवळावंक
निट्ट दामूल्या बार्राचो रस्तो धरता.
ांत सदचेंच पिंजकें खोमीस
कुल्यांर पिंजिल्लें मोटवें खाकी कलसांव
कालचो अर्दकुटो पुसून गेल्लो
तोंडावेलो रंग!

''दोन रुपयांचें घाल!''
दामू बार्रकाराक रघू फर्मायता.
कालचो रघूलो नेट अजून देवंक ना.
''गिरायक करतां तें दिसना?''
दामू बार्रकार रघूचेर तिडकता.

''उडय दोन रुपया!''
सोऱ्याचो ग्लास रघू मुखार धरून
दामू बार्रकार रघूक ऑर्द सोडटा.
रघू आपले कडलो देड रुपया
दामू बार्रकाराल्या हातांत दवरता.
''आठ आणे कोण तुजो आजो दितलो?''
रघूल्या कालच्या नेटाक
सगळ्यां हुजीर दामू सुरींग लायता.

काल नव्या जांवयाक आनी चलयेच्या सोयऱ्यांक
मोठ्या अभिमानान विरभद्राचें सवंग
दाखोवंक हाडपी दामू बार्रकार
आज आठ आण्यां खातीर
रघू विरभद्रा कडेन काचकिसांवां करता.

''तितल्याचेंच घाल!''
अपमान गिळून रघू म्हणटा.
आनी एकाच घोटांत ग्लास रिकामो करून
लकत लकत घरचो रस्तो धरता.

वाटेर सांकवार
कांय आलमपेड्ड्यार तरणाटे
लकत-लकत येवपी रघूलो
अवतार पळयतात.

''रघू? सामको विरभद्र जाला मरे!''
आनी 'था थैया! तक थैया' म्हणीत
रघूक तिडायतात
खीऽ खीऽ करून हांसतात.

रघू तांचेर नदर घालिना.
काल हड्डें मुखार काडून चलपी रघू
आज मान सकयल घालून चलत रावता.
घरा कडेन वचपाचीं ताचीं पावलां
नेटा-नेटान पडूंक लागतात.

रघूलो कालचो विरभद्र
सोऱ्या वांगडाच तकलेंतल्यान देंवता.
आनी दुसरी रामनम येसर
रघू रघूच उरता!

# म्हाका तांची याद येता



फेलीस्यु कार्दोज

रामचंद्र गणपत नायक – मुळचो वेंगुरलेचो आनी कृष्णा सहदेव पितळे, हे दोगय मुंबय रावपी. ते 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' पक्षाचे वांगडी. सुमार २१-२२ वर्सांचे हे तरणाटे आपल्या पक्षाचो प्रचार करूंक मुंबयच्यान चोरयां गोंयांत आयलले. ११ सेतेंब्र १९५५ ह्या दिसा सकाळीं ते हरमल गांवांत पावले. ते रस्त्यान चलून वतना पुलिसांनी तांकां आडायले आनी तांची झडती घेतली. तांचे कडेन 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' पक्षाचे वांगडी नोंदणेचीं पावती-पुस्तकां मेळ्ळीं. तांकां पुलिसांनी माराचो प्रसाद भरपूर दिलो. सुमार ४ म्हयन्यांनी मिलिटरी न्यायालयांत तांची मनसुबी केली. पितळेक ४ वर्सां आनी रामचंद्र नायकाक २ वर्सां बंदखणींत रावपाची शिक्षा फावो केली. तांकां उपरांत आग्वादाचे बंदखणींत दवरले.

पितळे मातसो गंभीर जाल्यार रामचंद्र सामको फकांडेर. विदूशक म्हळ्यार जाता. तो सांजेवेळार आमचें बरें मनोरंजन करतालो. ताच्या सवंगांनी केन्ना केन्ना आमकां हांसून पोटांत पेंडक्यो येताल्यो. मुंबय आसतना केन्नाय दुडू नासत जाल्यार आपूण कितें करतालों तें तो करून दाखयतालो. केन्नाय आर जाल्ल्या मनशा परी लंगडो सो जावन, वाळू वांकडी करून आनी भलतोच आवाज काडून तो भीक मागतालो. केन्नाय दुसऱ्या वाठारांत वचून कुड्ड्याचें सवंग करतालो. आपूण खरोच कुड्डो म्हण दाखोवंक तो दोळे वरशे करतालो तेन्ना दोळ्यांच्यो काळ्यो मुंडळी दिश्टीच पडनासल्यो. केन्नाय तो देवळांत वचून देवाक गाराणें घालतालो आनी साश्टांग नमस्कार करून उठ्ठना अचळय ताटांत आसलल्या दुडवांक बचको मारतालो. केन्नाय तो अपंग गायक जावन हांडी ना जाल्यार कळसो वाजोवन गितां गायतालो. ताचो आवाज गोड आसलो आनी हांडयेचेर वो कळशाचेर ठेके दितालो ते सामके तालार आसताले. तो बरो नकल्यो करतालो. फिल्मी गितां तो जायतीं जाणा आसलो. ताचे कर्मणुके वरवीं आमचो वेळ मात एकदम बरो वतालो.

मधुकर कृष्ण बुडकुले सदांच हांसतमुख. ताणें खाड वाडयललें. बऱ्यो गजाली सांगपी. थोड्या म्हयन्यां उपरांत ताका केन्ना केन्ना पेटके येवंक लागले. एकेकदां तो घुंवळ येवन पडटालो आनी एक दीस, दोन दीस लेगीत बेसुद्द सो जावन उरतालो.

१९८६ वर्सांतली गजाल. तेन्ना हांव कोंकणी भाशा मंडळाचो अध्यक्ष आसलों. एका दिसा मंडळाची एक कार्यावळ मडगांव नगरपालिकेच्या सभाघरांत आसली. व्यासपिठार हांवूय आसलों. कार्यावळ सोंपली तेन्ना रातचीं आठ वरां जाल्लीं. लोक गेल्लो. हांव सालांतलो भायर सरतना एक दादलो म्हाका पळेत रावलो. धवसार जाल्ले केंस, आंगार पिंजके कपडे आसले. हांव ताका वळखूंक ना. ताणें म्हाका जाप केली. ताळ्याचेर हांव ताका वळखलों. ''कुळकर्णी?'' हांवें विचारलें. हांसत्या तोंडान ताणें हय म्हळें. हांव अजाप जावन ताच्या तोंडा कडेन पळेतच उरलों. तो म्हाका णव वर्सां उपरांत दिश्टी पडटालो. ताचो सामको कायापालट जाल्लो. ''आयचे हे कार्यावळिची खबर हांवें पेपरांत वाचली. तुजें नांव ते बातमेंत आसलें. तूं नक्कीच मेळटलो म्हण हांव आयलों.'' ताणें मराठींत सांगलें. हांवें ताका ''चल या'' म्हणून लागिंचे एके खाणावळींत व्हेलो. च्या हाडूंक लायली. ''आतां तूं खंय आसा?'' हांवें प्रस्न केलो. ''सांवड्ड्या'', ताणें म्हळें. वासपूस करतकच तो सांवड्ड्यां एका च्याये-दुकानांत कोपां-बश्यो धुवपाचें काम करता म्हण कळ्ळें. पाग कांयच मेळनासलें. फकत दोन वेळांक जेवण आनी च्या-पाणी, इतलेंच मेळटालें. रातचो थंयच न्हिदतालो. ''आरे, तुका पॅन्शन मेळना?'' हांवें विचारलें. 'ना' म्हण ताणें तकली हालयली. ''आतां सांवड्ड्यां कसो वतलो?'' म्हजो प्रस्न. ''रेल गाडयेन'' – ताची ज ''तूं फाल्यां सांजचो सुमार चारांक येवन भाशा मंडळाच्या ऑफिसांत म्हा मेळ. मागीर जायतें उलोवंया'' अशें ताका सांगून हांवें ताचो निरोप घेतल

दुसऱ्या दिसा खादी भांडारांत वचून हांवें ताचे खातीर थोडे कपडे घे आनी कों.भा. मंडळाचे कचेरेंत गेलों. ताचो आदलो रूपकार म्हज्या दोळ मुखार आयलो. आदल्यो यादी जाग्यो जाल्यो.

१९५५ वर्सा जानेराचे २६वेर फांत्यार जायते सत्याग्रही सत्तरी म्हालांतल धावें गांवांत एकठांय जाल्ले. तांणी सकाळच्या ६ वरार थंयच्या मैदा झेंडोवंदन केलें आनी सांतेरीच्या देवळांत वचून असो सोपूत घेतलो: ''स खातीर प्राण दियन, पूण फाटीं सरचेनात.'' उपरांत तांणी धव्यो गांधीतो घालून, हातांत तिरंगी बावटे घेवन देसभक्ती गीत म्हणीत आनी 'जयहिंद' घोशणा दीत मिरवणूक काडली. धावें सावन फुडें वतना सावड्डें गां पावतच पुलिसांनी ती मिरवणूक आडायली. मिरवणुकींतल्या २६ जाण कैदी करून हेरांक सोडून दिले. ह्या २६ जाणां भितर ५ जाण गोंया भा आसले – सुधाकर मुदलियार, जाकोब सोलोमन, क्रिस्तोफर इसाक, पुंडल पडवळ आनी वसंत विष्णू कुळकर्णी. मुदलियाराक भायरावन हेर चौ आग्वादाचे बंदखणींत धाडून दिल्ले. दोन वर्सां उपरांत, गोंया भायल्या सुटके-झुजाऱ्यां बरोबर वसंत कुळकर्णीचीय सुटका जाल्ली. ते उपरांत म ताचे कडेन केन्नाच संपर्क जावंक ना.

कुळकर्णी एस्.एस्.सी. पर्यांत शिकिल्लो. सभावान शांत पूण जिवट आस सांगलल्या वेळार कुळकर्णी आयलो. आंगार तेच बोंतरे कपडे आर तो येनाफुडें हांवें ताका नवे कपडे दिले. तो मुर्वतीन घेना जालो. उ करतकच घेतले. ताची खबर घेतच सुटके उपरांत ताचेर खूब वायट आयलले म्हण कळ्ळें. थोडो तेंप लेगून कैदी आसलले जायते जाण पेन घेताले. पूण कुळकण्र्याक ताणें पुलिसेचो भरपूर मार खाला आसतना उ दोन वर्सां बंदखण भोगल्या आसतनाय सरकाराचो एक पैसोय मेळूंक नासल तो सांवडड्यां आसा म्हणटकच हांवें एक चीट दिवन केप्यां म्हज्या इ कडेन – नरेंद्र हेगडो देसायबाबा कडेन ताका धाडलो. गरज तीं सरु कागद-पत्रां कुळकण्र्याक मेळोवन दिवपा खातीर मजत करूंक ते चि हांवें बरयललें.

त्या वर्सा हांव सुटके-झुजारी पुनरवसन मंडळाचो वांगडी आसलों. मंडळाची बसका त्या दिसांनी जावपाची आसली. ते बसकेंत कुळकण् प्रस्न मांडप म्हूण हांवें थारायलें. तितले मजगतीं तो कैदी आसलो पुरावे दिवपी कागद-पत्रां सोदून हाडपाक हांवें ताका सांगलें.

कुळकर्णी हांवें दिल्ली ती चीट घेवन केप्यां नरेंद्रबाबां कडेन गेलो. ते चिटीर तो म्हजे सांगाताक आग्वादाचे बंदखणींत आसलो आनी ताची परिस्थिती सामकी बिकट जाल्या म्हण बरयललें. ते चिटी पर कुळकण्र्या विशिंची गरज तीं कागदपत्रां सरकारी दप्तरांतलीं हाडपाक नरेंद्रबा मजत केली.

पुनरवसन मंडळाचे बसकेंत हांवें कुळकण्र्याचो प्रस्न उपस्थित के ह्या मंडळाचो अध्यक्ष मुख्यमंत्री श्री. प्रतापसिंग राणे आसलो. कुळकण सगळी खबर हांवें सांगली आनी ताका ताबडतोब दुडवांची मजत क मागणी केली. मुखेलमंत्र्यान घर खात्याच्या सचिवाक उपाय घेवंक सां मंडळाच्या सगळ्या वांगड्यांनी कुळकण्र्याक मजत दिवंक जाय म्हण ब केलें.

[चल

# ळंग

**वबोरकार**



प्रियरेश,

मस्कार.

तुजो 'अळंग' ह्या पयल्या वयल्या कविता संग्रहा खातीर तुका म्हजीं पासून परबीं. पयलेपणाची म्हणटात ती एक वेगळीच मौज आसता. कविचो पयलो कविता संग्रह वेळार येवप हाका खूब म्हत्व आसता. हो संग्रह तुजे पिरायेचे तिशिचे फाटीं फुडें आयलो तें खूब बरें जालें. या वेळार संग्रह येवपाचें भाग्य तुजे पिळगेक लाबलां ते नदरेन तुमची भाग्यवंत म्हणूंक जाय. आदिंचे पिळगेंतल्या कवींक पिरायेची चाळिशी क हो योग आयला. आज तुमच्यो कविता उजवाडा हाडपाक कांय भासात. कांय वर्सां आदीं सगळोच काळोख आशिल्लो. आनी त्या काळ्यान वाट काडीत आयचे कोंकणी कवितेक आकार आयला. आयचें ला लाबलां.

कोंकणी कवितेचो बारकायेन अभ्यास केल्यार कवितेचे दोन प्रवाह समांतर दिसतात. एक व्यक्तिनिश्ठ कवितेचो आनी दुसरो सामाजीक आशय वा कवितेचो. शंकर रामाणी, भांगी, अभिजीत तश्योच बाकीबाबांल्यो कवेता पयल्या प्रवाहांत येतात. मनोहरराय, पंडित, करमलीची कविता प्रवाहांत येता. तुज्यो कविता बारकायेन वाचतकच त्यो पयल्या प्रवाहाचे गात म्हणपाचें सट्ट करून लक्षांत येता.

कवितेची प्रकृती अचूक दाखोवपी कविता खंयची हाचो सोद घेतना तो' (पा.४८) कविता लक्ष वेधून घेता. ती कविता :

*मातयेच्या तळा*
*बियेंतलो गाब*
*सोदता मुळां...*

उतरां आशिल्ली ही सुपुल्लीच कविता खूब सुचोवन वता अशें दिसलें. ही कविता वाचतना हांवें 'गाब'च्या जाग्यार 'गांव' अशें आनी मागीर तें उतर 'गाब' म्हणपाचें लक्षांत आयलें. 'गाबा'च्या 'गांव' ही प्रतिमा अर्थाचे नदरेन आशयाक खोलाय दिता अशें म्हजें मत. तुंवें मुजरत विचार करून पळोवचो. कित्याक, तो तुजो क. तुजी कविता सृजनाचें स्तोत्र आळयता देखुनच 'गाब' ही प्रतिमा आसुंये असो हांव अर्थ लायतां. गर्भ आनी सृजन हांचें लार्गिचें सा. तुजी मुखावयल्या पाना वयली कविता 'गर्भ' तेंच सुचयता. :

*कोणें जायतशें खेळयलें मन*
*आनी सोंसता कोण*
*कुडिच्यो वेणो ?*
*देण्या-घेण्याची रे*

*मागता जाप*
*कुसव्यांतलो गर्भ मोनो...*

(पा. ४९)

ाळे' (पा. २१), 'अर्भकाच्या दोळ्यांनी' (पा. २४) ह्या कवितांनीय प्रतिमा वेगवेगळे अर्थ सुचयतात. केन्ना केन्ना तुका त्या प्रतिमांचें न आशिल्ले वरी दिसूंक लागता. म्हाका दिसता तो पिरायेचो गूण.




सुरवातिच्या काळांत कवी खंयचे तरी एके कल्पनेच्या, कांय प्रतिमांच्या मोगांत पडटा आनी त्यो प्रतिमा कवितेंत आयले बगर ताका सूख लागना. दर एके कविचे जिणेंत ही अवस्था येवन वता. तातुंतल्यान आपली मेकळीक करपाचो यत्न ताणें विचार करून करूंक जाय.

तुजी कविता तो आनी ती मदलें नातें बेस बरें उकतें करून दाखयता. तुजी कविता ह्या नात्याचो सोद घेत आसता आनी तो तिचो एक स्थायीभाव जाला अशें म्हाका म्हणचेंशें दिसता. हें सगलें तूं अळंग दाखयता आनी दाखयतना अणभवाचे खरीक वता. 'माग' ही तुजी ह्या संग्रहांतली पयलीच कविता पळय. तूं म्हणटा :

*म्हजें आयुश्य घमघमलें*
*तुज्या गोपांत*
*हालय-धोलयतना*
*पळोवचें तुवें एकदां म्हजेकडेन*
*एकदां तुजेकडेन*
*जशें पाकळे-पाकळेन*
*वल्होवचें फूल*
*अशाश्वताच्या देठावयलें...*

आनी मुखार अशो वळी येतात :

*केंसर कशें उजवाडाचें एक शिट्रूक कीर्ण*
*हाडटलें म्हज्या दोळ्यांक सुप्त जाग*
*आनी कळटलो म्हाका*
*न्हिदेंत कूस परतुची तसो*
*तुज्या फुल्लट मनाचो माग...*

(पा. १३)

ही कविता निमाणे कडेन कितली तरल जाता पळय. म्हाका दिसता, ह्या संग्रहांतले हे पयलेच कवितेचें बोट धरून वाचपीय तुजे कवितेचो माग घेत मुखार वता. खऱ्यांनी सांगपाचें म्हळ्यार ही कविता तुजे विशीं मनांत खूब अपेक्षा निर्माण करता. भावनीक नात्याचे वेगवेगळे पदर उकते करून दाखोवपी आनीक एक कविता म्हाका दिसली ती म्हळ्यार 'घमघम'. मुक्तछंदांतले हे कवितेचे तीन भाग नात्याच्यो तीन वेगवेगळ्यो अवस्था मोटे फिशालकायेन दाखयतात. जे बदल जातात ते तुवें अळंग टिपल्यात. *'तुवें माळिल्ले मोगरेचे हळयेभशेन घमघमपी मोनें जग'* असो सुरू जाल्लो हो प्रवास – *'तरूय, रातीच्या कुसव्यांत रिगतना / रूंवभर काळोख फुलून / दीसभराचे म्हौंवे / सांगाताचे तुज्या / अळंग काळजार म्हज्या / वणखेल्ले / साद पडसाद... कसो / हळयेचो घमघम / तितलो व्हडे रातीमेरेन / आसमंत सगलो / भारून रावला...'* (पा. २०).

'तळ' ही तुजी आनीक एक कविता म्हाका विशेश आवडल्या.

*दिगंत आनी धर्तर*
*जशें मन-अंतर्मन*
*गांठी मुठींत येना दोगांयचो तळ*

(पा. २२)

इतल्यो सुंदर अर्थान उपाट भरिल्ल्यो वळी वाचले उपरांत 'सूर्य उदेला' हे कविते कडेन पावलों आनी *'उलय उतरां / गांवचीं कातरां / माडा सुरींत / झिंगलीं धोपरां'* ह्यो वळी वाचल्यो आनी म्हाका कोणें तरी वयल्यान सकयल धुकलून उडयल्ले वरी दिसलें. ही कविता ह्या संग्रहांत घेवंक जायना आशिल्ली. प्राथमीक अवस्थेंत आशिल्ली ही कविता कानाक कणसूरशी लागता. तातूंत फकत उतरांची कसरत दिसता. यमकां जुळोवपाचो सोंस दिसता.

कांय कवितांनी तुवें भावचित्रां अळंगशीं चित्रायल्यांत. तांकां भाव अवस्था अशें म्हळ्यार चड बरें जातलें. असल्या कवितांनी अणभव आळून आयला. देखीक:

*आशाढांतलें मळब*
*पानांत दाटून आयलें*
*आनी झाडांनी मनांत*
*तुडूंब गीत गायलें.*

(पा. ५८)

तशीच, 'पावस' (पा. ५९) हीय तुजी कविता पावसाची लय घेवन आयल्या. 'आशाडाचें देणें' आनी 'पावस' ह्यो दोनूय कविता एका फाटल्यान एक आयिल्ल्यान वाचतना एका अणभवाचीं दोन रुपां नदरेंत भरतात.

ह्या संग्रहांतली 'घर: एक चिंतन' ही कविता हेर कवितांचे तुळेन वेगळी दिसता ती आशयाक लागून. बदलपी सामाजीक परिस्थितिचेर ही कविता म्हळ्यार एक भाश्य अशें म्हणूं येता. आनी हें सगळें व्यक्त जालां तें न्हॅटरिकल जायनासतना. तशीच एक वेगळी कविता म्हूण हांव 'सदिच्छा: तीन स्नॅपशॉटस्' हे कविते कडेन पळयतां. उतरांच्या जवंजाळांत घुस्पनासतना आशयाचें निखळ नितळ रूप हे कवितेंतल्यान व्यक्त जालां. फकत 'स्नॅपशॉटस्' हें इंग्लीश उतर आडखळिल्ले वरी जाता. तें इंग्लीश म्हणून न्हय, तर ताची गरज नाशिल्ली म्हूण दिसता. तशेंच, ते कवितेंतल्या तिसऱ्या वांट्यांतल्यो निमाण्यो वळी तुवें थंय दसयल्ले वरी दिसल्यो. कविता सातवे वळीर सोंपता थंय अणभवाचें आवर्तन पुराय जाता. *'अंतरीचे धावे / स्वभावे बाहेरी / धरू जाता परी आवरेना'* ह्यो तुकारामाच्यो वळी मूळ आशयांत कसलीच भर घालिनात अशें म्हाका दिसता.

तुज्या कवितांनी मर्णाचेय संदर्भ कांय कडेन आयल्यात. देखीक 'अव्यक्त' (पा. ४४), 'उत्खनन' (पा. ८८), 'चेहरो' (पा. ५६). पूण हो मर्णाचो अणभव तुज्या अणभवविश्वाचो निजाचो भाग अशें दिसना. तो दुस कवितांच्या वाचपांतल्यान आयिल्ले भशेन दिसता. ताका लागून त्यो उखलाप्यो जाल्यात.

तुजे कवितेचे शब्दकळे संबंदान थोडेंशें. कांय कडेन तुवें नामा बदलून क्रियापदां केल्यांत. देखीक, 'किर्णेलां', 'उर्बेल्ल्या हातांनी' तरेन रुपां बदलून तूं कितें सादूंक सोदता? अशे तरेन रुपां बदल अशें न्हय. पूण ताका लागून अर्थाक खोलाय येवंक जाय वा लयेचो तो परिणाम सादूंक जाय. पूण तुजे कवितेच्या संदर्भांत तशें म्हणपा तशेंच, एके कडन ओंठुली आनी देंठुली अशीं उतरां मेळटात. तुवें लिंगबदलूय केला. तोय अडेचो दिसता. हो रमेश वेळुस्काराले प्रभाव?

संग्रहाचे सुरवातीक डॉ. नंदकुमार कामत हांणी तुजे कविते संबं उतरां बरयल्यांत तीं वाचलीं. अस्तित्ववाद, ओयासीस, चक्र अल्पशब्द चुंबकीय क्षेत्र, सारकिलीं जडगुळो उतरां वाचून घुस्मट जालें. तुजे कवितेचो रसीक ह्या पयल्या सोंपणाचेरूच आडखळ नाक आपटून घेता अशें जरी आसलें तरी तुवें 'घे पालवांत' हे म्हळां:

*कुडींत व्हंजळूं कितलोय काळोख कुन्नाटो;*
*उजवाड मनांतल्यान किल्लतलोच.*

खऱ्यांनीच, खूब थाकाय दिवपी हीं उतरां. तुजे कविते विशीं अपेक्षा निर्माण करतात आनी तुजे हातसून त्यो अपेक्षा पुराय जातल्या दुबाव ना.

तुजे कवितेक पर्जळीत फुडार आंवडेवन आनी बरें मागून,
तुजो,
माधव बोरकार

ता.क.: खरें म्हळ्यार हें पत्र तुका हे पयलींच बरोवंक जाय आशि कविता वाचपाक receptive mood लागता. तसो मूड आसल्यारूच बरी समजता.

**अळंग**
**परेश नरेंद्र कामत**
**गोवा कोंकणी अकादेमी, २००**
**पानां: ८८; मोल: रु. ४५/-**

## पोंच

**कोंकणी लोककाणयो** (लोकवेद)
**संकलन आनी संपादन: जयंती नायक**
**साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली**
**पानां: २५५; मोल: १२०/-**

**शक्तिपात** (कादंबरी)
**अवधूत कुडतरकर**
**राजहंस वितरण, पणजी**
**पानां: १९६; मोल: १५०/-**

प्रकाशन संस्थे कडल्यान वा बरोवप्या कडल्यान 'जागा'क भेट म्हूण पुस्तकां मदल्या वेंचीक (कोंकणी) पुस्तकांचे नियाळूच आमी उजवाडायतात.

— वावुर

REGD. No. GOA 13


# Treasures of Goa

*Miles of golden sun and sand*
*lined with swaying palms;*
*magnificent churches,*
*elegant temples,*
*heritage buildings and monuments;*
*Lush, abundant greenery*
*and mangrove forests;*
*A unique cultural synthesis*
*of East and West;*
*Colourful and lively fairs,*
*feasts and festivals;*
*Delightful folkarts and*
*exciting music...*
*Come, experience them.*






**Goa Tourism Development Corpn. Ltd.**
Trionora Apartments
Panaji-Goa. 403 001.
Tel : 0832-226782 / 226515 / 224132
Fax : 0832-223926



**Department of Tourism**
Government of Goa,
Patto, Panaji-Goa. 403 001.
Tel : 0832-224757 / 225583
Fax : 0832-228819